जाग प्रकाशनाचें

जाग

म्हयनाळें

वर्स ४७ : आंक ११ : जुलय-२०२१

* संस्थापक संपादपी :

स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

* वैचारीक दायज :

स. माधवी सरदेसाय

* संपादपी :

आसावरी नायक

* पालवी संपादपी :

कृपाली नायक
एडना वाझ

* उजवाडावपी :

जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

* छापपी :

इंप्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५१० ००२

* वेव्हाराचो नामो :

जाग म्हयनाळें
बिल्डींग ३, प्लॅट ३, - SE-3
मॉडेल स्टेटस, दोनापावल-तालिगांव मार्ग, गोंय
विद्यापिठा लागसार, ताळगांव-गोंय ४०३ ००४.
फोन: ७४४७२६८७२० / ९७६५९८७६०६

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : ४००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) | : २००/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : १,०००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : ५००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : ४,०००/- रु. |

**Jaag Bank Details:**
Accont No. 4004002100005165
Name : JAAG MONTHLY
Bank Name: Punjab National Bank
Branch : Panaji-Goa
IFSC Code: PUNB0292300

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-



'जागा'च्यो आदल्यो संपादक **स. माधवी सरदेसाय** हांचो ७ जुलय हो जल्मदीस. त्या निमतान आमचीं तांका आर्गां.

## मांडावळ...



भायले चित्र : कु. आव्रिल लेयना मोंतेरो
भितल्ली चित्रां : भारत जगताप, निशीत बोरकार

संपादकीय

# वाचन संस्कृती रुजोवंया



ह्या जुलय म्हयन्याचो आंक आमी 'वाचन संस्कृती'क ओंपला. वाचन संस्कृतींत लेखक आनी वाचक हे दोन म्हत्वाचे घटक. लेखक बरयता आनी वाचक तें वाचता. जर लेखकान बरयलेंच ना तर वाचक कसो वाचतलो? आनी लेखक स्वांतसुखाय बरयता अशें कितलेंय म्हणलें तरी आयच्या काळांत लेखकाच्या मनांत वाचप्यान प्रतिसाद दिवंचो अशें दिसताच. समिक्षकान समिक्षा करची अशेंय दिसता. वाचकांचें आस्वादन आनी समिक्षकांची टिका टिप्पणी लेखकाक व्हड करता, चालना दिता. खंयचोच पूर्वग्रह धरिनासतना समिक्षकान केल्ली टिप्पणी लेखकाक दिशा दिता. आपल्या लेखनाक अनुल्लेखान मारल्यार लेखकाच्या नवनिर्मितीचो कोंब बावन वता. वाचन संस्कृतीचें जर संवर्धन जावपाक जाय जाल्यार लेखक, वाचक आनी समिक्षक हे तीन'क' घटक एका समान पांवड्यार येवंक जाय. लेखक वाचकां इतलोच साहित्याची टिप्पणी करपी समिक्षक ह्या संस्कृतीचो एक भाग. समिक्षक हो पयलीं वाचक आसता. तो हेर वाचकांभशेन फकत आस्वाद घेवन ओगी रावना तर तो त्या साहित्याचेर चिंतन करून आपली टिप्पणी दिता, जी वाचून वाचप्याक जशी वाचनाची दिशा मेळटा तशीच लेखकाकूय बरोवपाची उर्बा मेळटा. समिक्षक हो लेखक आनी वाचकांक जोडपी दुवो. वाचन संस्कृतींत ताचीय सुवात आडनदर करूं नजो.

वाचना पसून पयस गेल्ल्यांक कोरोनाक लागून बळयां वाचपाक बसयले. आतां तातूंतल्या एक प्रतिशें वाचप्यानीं लेगीत आपलें वाचन अशेंच चालू दवरल्यार वाचन संस्कृतीक जी मरगळ आयल्या तिका परत एकदां झळाळी हाडपाक मदत जातली.

लेखक हो वाचकाची अभिरुची, उमळशीक वाडोवंक शकता. वाचप्याच्या उमाळ्यांक, आस्थांक तो वाट करुन दिता. थोड्या पुस्तकांचो वाचप्यांचेर प्रभाव पडटा. पुस्तकां वाचप्याक घडयतात. पूण हें केन्ना, जर लेखक आपले भुमिकेकडेन प्रामाणीक आसत जाल्यारच. बरो मनीसच बरो लेखक जावंक शकता. जो आपल्या लिखाणांत विचार मांडटा तेच विचार आपले सार्वजनीक जिणेंत आपणायता तोच. असल्या लेखकाचें साहित्यच वाचपी उखलून धरता. संत तुकारामान म्हळां, ''बोले तैसा चाले त्याचीं वंदावीं पाउलें''.

देखच दिवंची जाल्यार जून म्हयन्याच्या 'जागा'च्या आंकाक खूप मोटो प्रतिसाद मेळ्ळो. वाचकांनीं फोन करुन मुजरत कळयलेंय बी. वाचकांक बरें साहित्य दिल्यार वाचक तें वाचतात आनी कळयताय बी.

ह्या आंकांत आमी स. माधवीबाय हांचो आदीं उजवाडाक आयिल्ल्या लेखाचो आसपाव केला. कोंकणी कशी बरोवंची हाचे संबदांन तो लेख आसा. आयच्या काळांत तो आमकां म्हत्वाचो दिसलो. ह्या आंकांत साबार मानेस्तांचे वाचन संस्कृतीचेर लेख आसात. त्या भायर आमचीं सदचीं सदरां आसातूच.

'जागा'चो ह्या म्हयन्याचो आंक हो 'जागा'च्या सत्तेचाळीसाव्या वर्सांतलो अकरावो आंक. आनीक दोन वर्सांनी 'जाग' पन्नासाव्या वर्सांत पावल दवरतलो. मदीं माधवी वतगीर 'जाग' उजवाडाक हाडपांत थोडो तेंप खंड पडलो तितलोच. तो सोडल्यार 'जाग' नेमान येता. 'जागा'न खूप लेखक घडयले आनी तेच बराबर वाचकय घडयले. वाचप्यांभितर वाचन संस्कृती रुजयली. 'जाग' परत सुरु करतगीर तो नेमान येवंक लागला. इतलेंच न्हय तर तो त्या म्हयन्याच्या एक तारकेर वाचप्यांच्या हातांत पडचो असो आमचो यत्न आसा. आमचे कडेन मनीसबळ उणें आसूनय अशें घडूंक पावलां.

'जागा'चीं फकत बत्तीस पानां. ह्या बत्तीस पानांत कोंकणींतलें बऱ्यांतलें बरें साहित्य दिवपाचो आमचो यत्न आसता. पूण मनांत आसूनय आमी 'जागा'चीं पानां वाडोवंक शकनात. हाचें कारण आमकां जाय तशें आर्थिक फाटबळ मेळना. ह्या कोरोनाच्या काळांत तर जायरातीय बंद जाल्यात. (मुळांतच 'जागा'क जायराती साप्प उण्यो मेळटाल्यो) हाचे खातीर 'जागा'चें अर्थकारण हाललां. पूण आमी एक व्रत कशें, रवीन्द्रबाब, सुमंतबाब आनी माधवीबाय हांची Legacy कशी हें नेमाळें चलयतात. ह्या कोविड काळांत गोंयांतलीं तशीं देसांतलीं साबार नेमाळीं आर्थिक कारणां खातीर बंद पडपाक लागल्यांत. इतलेंय आसून 'जाग' नेमान येता हें वाचप्यांनी मतींत धरचें.

तेन्ना आमच्या वर्गणीदारांक विनंती आसा कीं तांणी आपली वर्गणी नेमान धाडून 'जागा'कडली आपली लागणूक दवरची. आमचे वाचक आमकां निराश करचे नात अशी आस्त आसा.

ह्या आंकाक साहित्य धाडपी सगळ्या लेखकांचे उपकार. कोंकणी मनशांमदीं वाचन संस्कृती रुजूं आनी फुलूं हेंच मागणें.



# आदीं कोंग्लीश... आतां कोंराठी आनी पत्रकारितेंतली लाचारी



उदय भेंब्रे

''मॉर्निंग वॉकाक वतना हातांत स्टीक आसल्यार डॉगा फियर कसलें?!'' असली कोंकणी खंय मुंबय शारांत राबितो केल्ल्या कोंकणीभाशी लोकां मदले कांय जाण उलयताले. ते भाशेक नांव पडलां 'कोंग्लीश'!

मुंबयकार जाल्ले मंगळूरकार कोंकणी कवी जे. बी. सिक्वेरा हांणी ते कोंग्लीश भाशे विशीं हजारभर पानांचो ग्रंथ तीन खंडांनी 'आमी कोंग्लीश उलयतांव' ह्या नांवान बरयला. त्या ग्रंथांत कोंग्लीश भाशेचे कितलेशेच नमुने दिल्यात आनी कोंकणी भास विकृत करपाचे ते प्रवृत्तीवेर टिका केल्या. ही कोंग्लीश भास अजून कोंकणीचे मानगुटेर बशिल्ली आसा आनी देशी संस्कृतीय पातळ जाता त्या प्रमाणांत कोंग्लीश भाशेचें धुमशेण वाडटा.

कोणूय कोंकणींत - भोव करुन व्याकरणांत - मराठी भरसून उलयता वा बरयता तेन्ना कोंकणी विकृत जाता, धेडगुजरी जाता. हे खातीर तसले धेडगुजरी भाशेक कोणेंय 'कोंराठी' अशें नांव दिले जाल्यार तातूंत कांय चुकलें ना. 'कोंग्लीश' नांवाचे फाटभुंयेर तें मुदयेर थीक कशें सोबता.

कोंकणी भाशेच्या इतिहासाच्या प्रभावाक लागून कोंकणीभाशी लोकांमदीं जे स्वाभिमानी आसात ते कोंकणी संबंदान संवेदनशील जाल्ले आसात. तो इतिहास दुखदिणो. कोंकणी संबंदान कितेंय उलयतात, बरयतात, टिका करतात, हेरांक बुद्द दितात तांणी तो समजून घेवंक जाय. १६८४ वर्सा पुर्तुगालि राजवटकेन कायदो करुन कोंकणीचेर बंदी घाली. ती भास उलोवंक जायना, बरोवंक जायना, शिकूंक जायना, शिकोवंक जायना आनी तिचे सुवातेर पुर्तुगेज भास आपणावंक जाय अशे नेम केले. परिणामीं, कोंकणी फाटीं पडली; पूण मेली ना. ती तिगली आनी पुर्तुगाल प्रजासत्ताक जातकूच वाडूंक लागली. हाची कांय मराठी मनशांक नसाय जाली. १९१७ वर्सा सावन १९७६ वर्सा मेरेन तांणी कोंकणीक मराठीची बोली म्हूण हिणसायली. ताचे फाटल्यान विस्तारवाद आशिल्लो. गोंय महाराष्ट्रांत हाडूंक जाय; ते खातीर गोंयची भास मराठी अशी भुमिका घेवंक जाय आनी ते खातीर कोंकणीक मराठीची बोली म्हणूंक जाय अशें तें तर्कट. साहित्य अकादेमीन देशांतल्या ६ भासशास्त्रींची समिती नेमली. ते समितींत डॉ. ए. एम. घाटगे हे महाराष्ट्रीय भासशास्त्री आशिल्ले. कोंकणी ही खंयचेच भाशेची बोली न्हय; ती स्वतंत्र साहित्यीक भास असो रिपोर्ट समितीन एकमतान दिलो. निर्णयाखातीर तो अकादेमीच्या साबार मंडळा मुखार आयलो तेन्ना हेर कांय वांगड्यां सांगातान ८ मराठीभाशी वांगड्यांनी रिपोर्ट मानून घेवपाक विरोध केलो. तितलें करुन तांचो दुस्वास सोंपलो ना. अकादेमीचो निर्णय सारको जावंक ना, फावो तसो अभ्यास जावंक ना अशीं कारणां दिवन त्या ८ जाणांनी अर्ज केलो की अकादेमीन निर्णयाचो फेरविचार करचो. हे सादे मनीस न्हय. तांचे मदीं आशिल्ले वसंत बापट, पु. ल. देशपांडे, रा. शं. काळिंबे, स. गं. मालशे, आर. एन्. दांडेकर, रणजित देसाई, श्री. भा. वेर्णेकर हे. मतदान जालें तेन्ना मराठी मनीस एके वटेन तर हेर सगले दुसरे वटेन अशें घडलें आनी कोंकणीक अदीक मोटो तेंको मेळ्ळो. गोंयांत तर गांयडोळ वळवळत आशिल्ले. १९८७ मेरेन तांणी कोंकणीक राजभास करपाक विरोध केलो. आजमेरेन असले कांय गांयडोळ, कांय किडी, थोडो बुरांटो, थोडें करबट महाराष्ट्रांत आसा आनी गोंयांतूय आसा. मनशांक मोण्णें मारता. गांयडोळांक, बुरांट्याक मारता जाल्यार खबर ना; पूण 'बोली' असो किडींचो आवाज केन्नाय आयकूंक येता.

कोंकणी भाशी लोक अशें हांवें म्हळां; पूण तें १०० टक्के लोकांक लागू जाता अशें ना. गोंयांत एक वांटो संस्कृतीशुन्य जाला, देशभ्रश्ट जाला. मंत्री, आमदार वा नगरसेवक म्हूण सोपूत घेवपाचो वेळ येता तेन्ना हीं मनशां इंग्लीश भाशेंत त्यो दोन-तीन वळी वाचतात. तांकां कसलोच अभिमान ना. देशी संस्कृतीचो ना, गोंयचो ना आनी कोंकणी भाशेचोय ना. पूण उरिल्लो वांटो फाटलो अणभव मतींत धरुन शिटूक रावता. कोणेंय कोंकणी भाशेचीं फकाणां केलीं, तिका 'कोंग्लीश' वा 'कोंराठी' वा धेडगुजरी करपाचो यत्न केलो की तो प्रतिक्रिया उक्तायता. ती मनशा-मनशा प्रमाण बदलता. असले प्रतिक्रियेचेर टिका करतल्यांनी वा मागिनासतना बुद्द दितल्यांनी ते प्रतिक्रियेची फाटभूंय आनी स्वाभिमानी कोंकणीभाशी हांची संवेदनशीलताय समजून घेवंक जाय.

भाशे विशींची संवेदनशीलताय फकत कोंकणीभाशी लोकांमदीं आसा अशें न्हय. दक्षिण भारतांत ती चड आसा; पूण मराठी लोकां मदींय आसा. १९६४ वर्सा डॉ. पांडुरंग पिसुर्लेकार हांणी पुण्यांत 'पोर्तुगेज-मराठे संबंध' ह्या विशयाचेर सात व्याख्यानां दिलीं. हीं व्याख्यानां आयकतना लोक हांसताले अशी नोंद मेळटा. विशय इतिहासाचो आनी गंभीर. तर लोक कित्याक हांसले? ते हांसले डॉ. पिसुर्लेकार हांचे मराठी भाशेक आनी उच्चारांक. डॉ. पिसुर्लेकार विद्वान आनी व्यासंगी; पूण तांचें मराठीचेर प्रभुत्व नाशिल्लें. नौका, 'जहाजें', 'गलबतें' हांतुंतलें खंयचेंय उतर वापरचे सुवातेर तांणी 'तारवें' हें उतर वापरलें. अशेंच आनिकूय उतरां विशीं घडलें. दुसरें, तांचे पिळगेक मराठींत

बरोवंक जमतालें; पूण उलोवपाची सवंकळ नाशिल्ली. (ती परिस्थिती आजूय व्हडलीशी बदलूंक ना. ताका लागून व्याख्यान माळे खातीर वा मराठींतल्यान भाशण करपाचें आसता तेन्ना वक्ते महाराष्ट्रांतल्यान आयात करचे पडटात.) डॉ. पिसुर्लेकार हांचे उच्चार कोंकणी जाताले, नाकयां जाताले. हे गजालीक मराठी मनशां हांसतालीं. ती तांची प्रतिक्रिया. लोक हांसताले हाची नोंद जाल्ली आसा. त्या काळांत कोणेंय ते भाशे संबंदान टिका करुन बरयल्लें कांय कितें तें खबर ना. पूण हांसप ही लेगीत एके तरेची टिका. फकत टिकाच न्हय तर अपमान. डॉ. पिसुर्लेकार हे नांवादीक इतिहासकार. पुणेंकारांच्या आमंत्रणान ते थंय गेल्ले. ते कोंकणी उलोवपी हें पुणेंकारांक खबर आशिल्लें. पूण तांणी डॉ. पिसुर्लेंकारांचे विद्वत्तेचो, संशोधनाचो मान राखलो ना तो नाऽऽच; 'अतिथी देवो भव:' हो भारतीय संस्कृतींतलो नेमूय पाळ्ळो ना. कित्याक घडलें अशें? पुणेंकारांक आपूण उलयतात तशी मराठी पिसुर्लेकार हांणीय उलयल्ली जाय आशिल्ली. ती वेगळी लागली म्हूण ते हांसले.

ह्या लेखाक कारण जाला तो विशय म्हळ्यार 'केलें गेलें वयतलें' हीं तीन उतरां, तांच्या संबंदान सोशल मिडियाचेर जाल्ली टिका आनी टिकेचे ते शैलीचेर अविचारांतल्यान जाल्ली टिका. 'केलें गेलें वयतलें' हीं उतरां मुख्यमंत्री सावंत खूब फावटी वापरतात. 'त्या मुळें' हीं उतरां पर्रीकार हांच्या तोंडार बशिल्लीं. मुख्यमंत्री सावंत कोंकणींची फकाणां करपाक तीं उतरां वापरतात अशें न्हय; पूण दुसरे भाशेच्या व्याकरणांतले क्रियापदाचें तें रुप कोंकणींत ना; ते खातीर आयकुपाक तें विचित्र दिसता आनी कोंकणी धेडगुजरी जाता हें तांच्या लक्षांत येवंक ना. तें टाळपाचोय यत्न तांणी केलो ना. 'केले गेले', 'सांगितले गेले' 'जाहीर केले जाणार' हें व्याकरणी रुप मराठी भाशेंत आसा. तें कोंकणींत हाडटकूच कोंकणी धेडगुजरी जाता. तेच खातीर टिका करतल्यांनी 'कोंराठी' हें नांव घडयलां. 'डॉगा फियर कसलें?' ही भास कोंग्लीश; तर 'केलें गेलें वयतलें' ही भास कोंराठी. दर एके भाशेची एक शिस्त आसता, एक सबाव आसता. जाणा जावन वा नकळटां भास विकृत जाली जाल्यार तिचीं फकाणां केल्ले भाशेन जाता आनी तें दुखता. दुखतकूच ताची प्रतिक्रिया जावप हें सबावीक आनी ती प्रतिक्रिया टिकेच्या रुपान जावप हेंवूय सबावीक.

टिकेच्या संबंदान म्हजे दोन अणभव सांगपा सारके आसात:

आदले मुख्यमंत्री मनोहर पर्रीकार म्हणटाले, तांकां म्हजी कोंकणी समजना. हांव कांय संवसाराभायली कोंकणी उलयनाशिल्लों. कारखान्यांत तयार केल्ली कृत्रीम कोंकणीय वापरनाशिल्लों. तर पर्रीकार हांणी तशें कित्याक म्हळें काय? घडये, तांकां म्हजी कोंकणी दुर्बोध लागताली. घडये, ती विचित्र लागताली वा भाशाशी दिसच नाशिल्ली. कितेंय आसूं, तांची ती म्हजे कोंकणीचेर टिका करपाची तरा आशिल्ली. लोकशायेंत तशी टिका करपाचो तांकां अधिकार आशिल्लो. हांवें ताचे उपरांत तांचे कडेन उलयतना दुभाशी वापरलो ना. पूण तांचे टिकेक जापूय दिली ना.

दुसरो अणभव हालींचो. आम आदमी पक्षान कोंकणी अकादमी स्थापन केल्ल्याची घोशणा दिल्लींत केली. कांय मराठीवाद्यांनी सोशल मिडियाचेर ते विशीं टिका केली. ते टिकेचो निशेध म्हूण ते अकादमीक येवकार दिवपी वावुरप्यांनी पर्वरी निदर्शनां केलीं. घोशणा, टिका वा निदर्शनां हांचे कडेन म्हजो कसलोच संबंद नाशिल्लो. पूण एका मराठी दिसाळ्याच्या संपादकान नांवांत विकृती रिगोवन म्हाका भितर ओडलो. जांणी निदर्शनां केलीं तांचेर टिका करुन ताणें अग्रलेख बरयलो. अग्रलेखांत एक वाक्य आशिल्लें ताचो अर्थ आशिल्लो, कोंकणीचें भेंब्रीकरण करचे सुवातेर भोवजनीकरण करचें. 'भेंब्रीकरण' हें उतर अर्थपूर्ण आशिल्लें. हांव ताचो अर्थ आनी हेतू समजलों. संपादकाचे मानगुटेर जातवादाचें भूत बसलां. ताका 'बामणीकरण' म्हणपाचें आशिल्लें; पूण दुसऱ्याच खिणाक येवजलें की दिसाळ्याचो खासा मालक बामण आनी जातीचो अभिमान धरपी. हुंदराक मारल्यार गणपतीक वायट दिसतलें! ताणें बामणीकरण उतरा जाग्यार भेंब्रीकरण हें उतर वापरलें. हांव जात मानिना हें ताका बाबड्याक कशें खबर आसतलें! हांव खंयच्या कुटंबांत जल्मलां तेंच तो जाणा आशिल्लो. टिका अशीय आसता. 'जात' हें उतर वापरप ना; पूण जातवादी, विचारानूच बरोवप. हें योग्य काय अयोग्य ही गजाल वेगळी; पूण संपादक वा नागरीक म्हूण टिका करपाचो अधिकार ताका आसा - तो अधिकार वापरपाचें तारतम्य वा विचारांत विवेक आसू वा नासू. हांवें कसलीच प्रतिक्रिया उक्तायली नां.

मुद्दो असो की टिका ही तरेकतरांनी करुं येता. गाळी मारुन, कडक उतरांनी कातरुन काडून, फकाणां करुन, चिमटे काडून, विनोदाचो उपेग करुन, आयच्या तंत्रगिन्यानाचो उपेग करुन हांसोवपी व्हीडियो तयार करुन वा सोशल मिडियाचो हेर तरांनी उपेग करुन 'भिवपाची गरज ना' ह्या वाक्याचेर टिका जाली ना? टिका ही अमूक एके तरेनूच करुंक जाय अशें नासता. पूण टिका करुंकूच जायना अशें जो म्हणटा ताका लोकशायेंत स्थान ना. ताणें चीन, रशिया, बेलारुस, म्यानमार असल्या खंयच्याय देशांत वचून रावप बरें!

एका मराठी दिसाळ्याच्या संपादकान लोकशायेंत अक्षम्य थारपा सारकी बुद्द 'कोंराठी' व्हीडियोवाल्यांक दिल्या. तांणी खंय फकाणांच्या रुपान मुख्यमंत्री सावंत हांचेर टिका करपाची न्हय! तांचे सरीं वचून तांचे नदरेक ती चूक हाडपाची! तें वाचतकूच म्हजे नदरे मुखार एक संपादक आयलो. तो सदां सकाळीं उठून मुख्यमंत्र्यांच्या वा संबंधीत मंत्र्याच्या वा संबंधीत अधिकाऱ्याच्या घराच्या हुमऱ्यार वचून बसता; मुख्यमंत्री, मंत्री वा अधिकारी भायर सरतना राजकारभारांत कितें चुकता तें ताका सांगता! मागीर दिसाळ्यांत कितें बरयता तर तो? भक्तिमय अग्रलेख आनी स्तुतिमय लेख! टिका केलीच जाल्यार ती पुतळ्यांचेर बसून हळशीक करपी शेवण्यांचेर, प्लॉस्टिकाच्यो पोतयो हांगाच्यो थंय व्हरुन उडोवपी सुण्यांचेर आनी राष्ट्रीय मार्गाचेर गोठेतात त्या गोरवांचेर! केन्नाय संद मेळटा तेन्ना व्हीडियोवाल्यांचेर!

टिका करपी न्हय अशें सांगपी हो म्हान पत्रकार राज्यकर्त्यांचे बूट पॉलीश करचे अशें सांगना हो आमचेर मोटो उपकार! पूण तो तितल्यार रावना. तो पगडी घालून भासशास्त्री जाता आनी ज्या विशयांत बोलयेचो संबंद ना थंय बोलयेचो मुद्दो घुसडायता. कोंराठी विशयांत संबंद आसा तो दोन भाशांचो. मराठी व्याकरण कोंकणीक लागू केल्ल्यान कोंकणी

विकृत जाता असो हो विशय. हांगा बोलयेचो संबंद खंय येता? कोंकणीच्यो उत्तरेक कुडाळी धरुन दक्षिणेक कोडयाळी मेरेन जायत्यो बोलयो आसात. खंयचे बोलयेंत ''केलें गेलें वयतलें/वतलें'' अशें म्हणटात? जर खंयचेच बोलयेंत तशें उलयनात तर कोंराठी संबंदान बोलयांचो विशय कित्याक? कारण आसा आनी तें कोंकणी विशींच्या दुस्वासांत आसा. कोंकणीच्या बोलयां मदीं झगडीं-झुजां आसात, संघर्श आसा असो आभास निर्माण करपाचो हो बळयां केल्लो यत्न. पेडणेंचे बोलयेन खंय काणकोणचे बोलयेचो आनी साश्टीचे बोलयेन खंय बार्देशी बोलयेचो मान राखचो! म्हणल्यार, सध्या त्यो एकामेकाक उणाक लेखतात? एकामेकाचो अपमान करतात? तांचे मदीं उंच-उणाक असो भेद आसा? तांचे मदीं संघर्श जाला? खंय? केन्ना? कसो? अस्तित्वांत नाशिल्ले गजालीची पुराण-कथा करपाचो हो यत्न शुद्ध मनान जावंक ना. भाशेक बोलयो आसप हें तिचें दुबळेपण असो गैरसमज करुन घेतिल्ल्यान हो यत्न जाला. सभाग्याक खबर ना की इंग्लीश भाशेक बोलयो आसात आनी स्कॉटीश बोली लंडनांत रावतल्यांक समजना. ताका हेंवूय खबर ना की मराठीक बोलयो आसात - वऱ्हाडी, खानदेशी, अहिराणी बी आनी वऱ्हाडी बोली पुणेरी मनशाक सहृ करुन समजना इतली वेगळी आसा.

एके बोलयेन खंय दुसरे बोलयेचो मान राखचो! म्हणल्यार कितें करचें काय? एके बोलयेन दुसरे बोलयेच्या गळ्यांत हार घालून भोवमान करचो? काय फुलां तुरो दिवन सत्कार करचो? वऱ्हाडी बोली खानदेशी बोलयेचो मान कसो राखता काय? आनी खानदेशी बोली अहिराणीचो भोवमान कसो करता काय?

विधानसभेंत ४० वांगडी आसात. कोंकणींत उलोवप्यां मदीं सवंकळीचे बोलयेंत उलयता. मायकल लोबो, डॉ. सावंत हांचे बोलयेंत उलयना आनी बाबू कवळेकार, राजेंद्र पाटणेकार हांचे बोलयेंत उलयना. भौशीक सभांनी उलोवपीय आपापले बोलयेंत उलयतात. कोणें आडखळ केल्या? तशें उलोवं नाकात अशें केन्ना कोणें सांगला? आदले मंत्री दयानंद मांद्रेकार दवरलें ह्या अर्थान 'थेयलें' हें उतर सदांच वापरतात. तें तांचे बोलयेंतलें. कोणें आक्षेप घेतला? म्हण्टकूच बोलयां मदीं कसलोच संघर्श नासतना तो आसा असो आभास निर्माण करपाचो हेतू दुश्ट न्हय जाल्यार कसलो?

घडये ह्या बोली-मोगी पत्रकारान तियात्र केन्नाच पळोवंक ना. पळयल्लो जाल्यार एकेच माचयेर साश्टीची बोली आनी बार्देशी बोली कश्यो नंदतात हें ताका कळटलें आशिल्लें. कोंकणी कवि-संमेलनांचीय ताका ॲलर्जी आसतली. त्या संमेलनांक गेल्लो जाल्यार बोलयेंतल्यो कविताय ताका आयकूंक येतल्यो आसल्यो आनी तांकां टाळयो पडटात त्योवूय आयकूंय मेळटल्यो आसल्यो. असलो दुस्वास फकत अज्ञानाक लागून घडिल्लो जाल्यार आडनदर करूं येताली. पूण असले यत्न दुस्वासान जातात वा कोणाक तरी खोशी करपाच्या वा ताचे चुकीचें समर्थन करुन बरेपण जोडपाच्या सुवार्थान घडटात. वैचारीक व्यभिचार कोण करता? अभिव्यक्ति स्वातंत्र्य वापरुन टिका करपी काय लोकशायेंत, टिका करची न्हय म्हूण बुद्द दिवपी? पत्रकार म्हूण कर्तव्य करतना जो चुकला ताका 'हें चुकलां; तें सुदारचें' अशें स्पश्टपणान सांगपी काय लेंगें लेगें करुन ''खेत्या, तुजीच xx तांबडी'' म्हूण लाचारेन नमपी?

कोंकणी गोंयची लोकभास आसुनूय मुक्ती उपरांत तिचीं फकाणां जालीं, तिचो अपमान जालो. ही लोकांची भास राजभास जावन ३४ वर्सां उलगल्यांत. तरी तिचे विशीं बेपर्वाय चलता. सरकारी पावंड्यार, शिक्षणाच्या मळार, कोंकणी पत्रकारितेंत जी जापसालदारकी आसूंक जाय ती निखालस ना. सरकार ब्रिटीशांचें दायज चलयता; हायस्कुलांनी कोंकणी उलोवंक येता इतलेच पात्रतायेचेर कोणाकूय कोंकणी शिक्षक नेमतात. ती कशीय शिकोवची! कशीय बरोवची! तिका आवय-बापूय ना! कोंकणी पत्रकारितेक 'कोंग्लीश' आनी 'कोंराठी' हे दोन व्हायरस बादल्यातूच; पूण भाशेक व्याकरण आसा, शुद्धलेखनाची नेमावळ आसा हाचीय जाणविकाय नासता. ही बेपर्वाय कोंकणी भास आनी जांची ती मायभास ते लोक सोंशीत आयल्यात. पूण सोंशिकसाणीकूय शीम आसता. ती हुपचे आदींच घट मतींत धरुंक जाय की टिका ही फकत शिटकावणी. सदांच प्रतिक्रिया फकत टिकेन सोंपची ना. लोकशायेंत आनिकूय कडक उपाय आसात, अहिंसक मार्ग आसात आनी संविधानान दिल्ले अधिकार आसात. दुस्वासी मनशांमदीं लाचारी आसतलीच. आदींय ती आशिल्ली. पूण ती कोंकणीक मराठीची बोली थारावंक पावली ना. गोंयचें महाराष्ट्रांत विलीनीकरण घडोवन हाडूंक पावली ना. घटकराज्य आडावंक पावली ना. लाचारी सरकारा कडसून कितेंय झडोवंक उपकारत; पूण कोंकणीचें वांकडें करुंक पावची ना. इतलेंच न्हय तर; कोंकणीचें वायट जावचें अशी वान्सा जे बाळगितात तांणी काळाचीं पावलां आयकुचीं आतां -

**भिवपाची गरज आसा.**

संपर्क : 9822163223

## 'जाग' वर्गणीदारांक सुचोवणी

आमचे साबार वाचक 'जागाचे' वर्गणीदार जावंक सोदतात. तांणीं 'जाग म्हयनाळ्याच्या' खाला दिल्या बँक नाम्याचेर पयशे भरचे आनी आमकां आपलो पुराय नामो आनी वर्गणी पावती खाला दिल्ल्या फोन क्रमांक, वा ई-मेल, वा नाम्याचेर कळीत करची-

फोन- +91 7447268720

नामो- मॉडेल स्टेटस, फ्लॅट 3-SE-3, दोना पावल-ताळगांव रोड, ताळगांव गोंय 403002

Email- asawari.nayak@gmail.com

**Jaag Bank Details:**

Ac no: 4004002100005165

Name: JAAG MONTHLY

Bank Name: Punjab National Bank

Branch: Panaji-Goa

IFSC code: PUNB0292300

# वर्तमानपत्रांतली भास

माधवी सरदेसाय



वर्तमानपत्रांतले भाशेच्यो बारिकसाणी समजून घेतना काय मुळाव्या भाशीक भेदांची जाण आसप गरजेची :

१) तोंडी भास आनी बरपी भास.

२) वेव्हार भास, साहित्य भास आनी शास्त्र भास.

३) प्रमाण आनी अप्रमाण बोली भेद.

४) शैली भेद.

### १. तोंडी भास आनी बरपी भास

जीब भाशेचे मूळ ठिकाण. बरप भाशेची उपरान्तची जोड, मनीस पयलीं उलोवंक शिकता आनी उपरान्तूच बरोवंक शिकता. हेच भाशेन, भाशेच्या इतिहासांतूय उलोवप आदी आनी बरोवप उपरान्त येता. देखून, भाशेचो विज्ञानीक अभ्यास जिबे वयले भाशेक मुखेल आनी बरपी भाशेक गौण लेखता.

जिबे वयली भासूच उपरान्त बरपांत वता हे एके नदरेन खरें आसलें जाल्यारूय बरपी भाशेक आपणालें खाशेलें व्यक्तिमत्व आसता. आमी उलयतात तश्शी बरयनात. तोंडी भास, उलोवपी आनी आयकुपी हांचे मदल्या परस्पर आनी प्रत्यक्ष संबंदाचेर-संवादाचे बुन्यादिचेर उबी आसता. देखून उलोवप्याचे आनी काय प्रमाणांत आयकुप्याचे मानसिकतायेचो तोंडी भाशेचेर खूब प्रभाव आसता. देखीक : उलोवण्यांत जायते फावटीं आमी वाक्यां वा विशय अदर्यारूच सोडटात. 'तो म्हाका काल - आगो माजरान तव्यावेलें नुस्तें व्हेलें पळे...' सारकेलें उलोवणे फकत तोंडी भाशेंतूच येता. हे भाशेंत 'म्हापशें' केन्ना केन्ना 'म्हाशपें' जाता, वा 'पिकी पोपाय' 'पिपी पोकाय' जाता. 'कळ्ळे तुका?!', 'समजल तूं?!', 'कितें?!' सारकेलीं उलोवप्याचे संवयेर पडिल्लीं आनी अर्थ उक्तावणेचे नदरेन 'गरज नाशिल्लीं' वा, कांय प्रमाणांत आयकुप्याच्या समजुपाचो थाव घेवपी उतरांय फकत तोंडी भाशेंतूच येतात. बरपी भाशेंत ही 'उणेपणां' दिश्टी पडनात. वा म्हणुंया, बरोवप्याक भास ह्यो सगळ्यो सवलती दिना. हाका लागून 'व्याकरण शुद्धताये'चो बरपी भाशेचेर अदीक धाक आसता. हांगा वाक्य-बांदावळिच्या नेमांचीय देख दिवं येत: तोंडी भाशेक हेळ्याची - intonation ची जोड आशिल्ल्यान 'ए, दी गो मातशें हें ऽ तें कॉप म्हाका' सारकेलें वाक्य कानाक आडखळना. बरपी भाशेंत मात 'ऐ हें ऽ तें कॉप मातशें म्हाका दी गो' सारकेलें व्याकरणी नेमां भितर बसपी वाक्यूच दिश्टी पडटा. उलोवप्या मुखार आयकुपी जसो धड्डडीत उबो आसता तसो बरोवप्या मुखार वाचपी नासता : बरपी भाशेचो वाचप्या कडेन फकत अप्रत्यक्ष संबंध येता. देखून बरपी भास अदीक आत्मसंवादी[१] आसता.

बरपी भाशेचें आनीक एक खाशेलपण म्हळ्यार तिगेलो रुढीवादी सभाव. देखून भाशीक बदल तोंडी भाशेत जितल्या सोंपेपणान जाणवतात तितल्या सोंपेपणान बरपी भाशेंत जाणवनात. बरपी भाशेंत कुस्कूट बदल करपाक लेगीत वर्सांची वर्सां वचूं येतात. देखीक, ष, ऋ हे नाद कोंकणी जिबेर नात. पूण कोंकणी बरपांत मात ह्यो कुरवो अजून घोळटात. जिबेवयलो 'क्रिशण' बरपांत 'कृष्ण'च उरता. 'क्रिशण' कानांक चलता, नदरेक मात आडखळटा.

वर्तमानपत्र हे बरपी भाशेचेंच एक आंग. देखून बरपी भाशेचीं सगळीं लक्षणां वर्तमानपत्राचे भाशेक लागून जातात.

### २. वेव्हार भास, साहित्य भास आनी शास्त्र भास

वेव्हार भास म्हळ्यार संदेशाच्या दिवपा-घेवपा खातीर साधन म्हण वापरिल्ली दिसपट्टे घोळणुकेंतली 'सादी भास. पूण 'व्याकरणान घालून दिल्ल्या नेमां भितर रावन गरजेची अर्थ निर्मणी करपाचे जापसालदारकेक पाळो दिवन भास आनिकूय अर्थ उक्तावंक लागता तेन्ना ती साधनाच्या कार्या भायर वचून माध्यमाचेंय कार्य करूंक लागता.* ही भास म्हळ्यार साहित्यभास.' वेव्हार भास अर्थांचे घोळ टाळटा. ती सोंपी, सरळ आसता, हाचे उरफाटें, एका परस अदीक अर्थ जल्माक घालप हो साहित्य भाशेचो सभावगूण. अर्थाचे गूढपण चड तितली साहित्य भास अदीक गिरेस्त अशें आमच्यांनी म्हणू येता.

शास्त्र भास हो भाशेचो एक खाशेलो वापर. हांगा भास पुरायेन साधन जावन वावुरता. अर्थाचो घोळ शास्त्र भास इल्लीय सोंसून घेना आनी साहित्य भास लेखका प्रमाण बदलता तशी शास्त्र भास बदलना. शास्त्र भास त्या त्या शास्त्राच्या भाशीक वेव्हारा खातीर, त्या त्या शास्त्रांत वावुरपी लोकांच्या वापरा खातिरूच आसता. हे भाशेंत एका उतराक एकूच अर्थ आसता आनी दर एका उतराच्या अर्थाचो आंवांठूय आदींच ठरिल्लो आसा. देखीक, vein आनी artery हो शास्त्रभाशेंतलो एक भेद. vein त अशुद्ध रगत खेळटा आनी artery त शुद्ध रगत. हो फरक ह्या दोनूय उतरांची व्याख्या घडयता. पूण वेव्हार भाशेक ह्या फरकाची जाण आसना. देखून दिसपट्टे कोंकणींत vein वा artery खातीर 'शीर' हें एकूच उतर घोळटा. फाल्यां शरीरशास्त्रा वयलें साहित्य कोंकणीत हाडचें पडलें जाल्यार आमकां ह्या भेदा कडेन आडनदर करूंक मेळचिना; vein आनी artery खातीर आमकां दोन वेगळीं उतरां घडोवचीं पडटलीं. (मराठीन vein खातीर 'नीला' आनी 'शीर' हीं उतरां आनी arteryखातीर 'रोहिणी हे उतर घेतलां.)

पत्रकारिता हो 'साद्या' मनशा कडेन खूब लागिंचो संबंद आशिल्लो वेवसाय. देखून वर्तमानपत्रांतली भास वेव्हारभाशेक सगळ्यांत चड लागिंची. अग्रलेख, लेख आनी खाशेल्या पतिंच्या कांय बातम्यां भितर (देखीक, बातम्यांचे box-items) मात मदीं मदीं साहित्य भाशेचीं लक्षणां झळकतात.

पत्रकारिता हो एक स्वतंत्र वेवसाय. पत्रकारितेची आपणाली अशी खाशेली उतरावळ, खाशेली शैली आसता. (सकला ४ पळेयात.) ही पत्रकारितेची शास्त्र भास अशें सदळ अर्थान आमच्यांनी म्हणूं येत.

### ३. प्रमाण आनी अप्रमाण बोलीभेद

भुगोलीक अंतर भाशेंत वेगळेपण हाडटा तशें समाजीक अंतरूय भाशीक उलोवप्यांक वेगळायता. भुगोलीक अंतराक लागून कोचीचे

वा मंगळूरचे कोंकणीक गोंयचे कोंकणी परस वेगळी सया मारता; काणकोणची कोंकणी पेडणेचे कोंकणी परस वेगळी जाता. सामाजीक अंतराक लागून हिंदू कोंकणी मनीस क्रिस्ताव कोंकणी मनशा परस वेगळी कोंकणी उलयता; गावड्याची कोंकणी बामणांचे कोंकणी परस वेगळी जाता. 'कोचीची कोंकणी', 'मंगळूरची कोंकणी', 'गोंयची कोंकणी', 'पेडणेची कोंकणी', 'काणकोणची कोंकणी', 'हिंदूंची कोंकणी', 'क्रिस्तांवांची कोंकणी', 'बामणांची कोंकणी', 'गावड्यांची कोंकणी'... हीं नांवां कोंकणींतले बोली-भेद दाखयतात. बोलीभेद सगळ्या भासांनी आसतात.

भाशेच्या समेस्त बोलयां भितरल्यान खंयचीय एक बोली भाशीक वेव्हारांत प्रतिश्टा जोडटा आनी साहित्य, प्रसार माध्यमां, सभे-मांड, कायदो, शासन बी भाशीक वेव्हाराच्या सगळ्या 'प्रतिश्टीत' मळांचेर मुखेलपणान घोळटा तेन्ना ती 'प्रमाण बोली' जाता. भाशेची प्रमाण बोली घडपाचे हे प्रक्रियेक प्रमाणिकरणाची प्रक्रिया म्हणटात.[२]

प्रमाणिकरणाची प्रक्रिया केन्ना सोंपली अशें जायना. तरी, हे प्रक्रियेंत कांय भासो 'मुखार' तर काय 'फाटीं आसतात. देखीक, इंग्लिशीच्या मानान हिन्दी 'फाटी' अशें आमच्यांनी म्हणूं येता. इंग्लिश, हिन्दी, मराठीच्या मानान कोंकणी प्रमाणिकरणांत 'फाटीं' आसली जाल्यारूय गोंयच्या चार वाटारांतले लोक वा चार पोट-समाजांतले लोक एकठांय येतात आनी चडशे 'एके तरेचीशी' कोंकणी उलोवंक/बरोवंक लागतात तेन्ना प्रमाणिकरण गोंयचे कोंकणींतूय वेगान मूळ धरूंक लागलां म्हणपाचें जाणवता, हे प्रक्रियेंतल्यान मंगळूर आनी कोचीची कोंकणी मातशी भायरूच उरिल्ली दिसता. भुगोलीक अंतर आनी लिपी भेद (मंगळूरचे कोंकणीच्या संदर्भात) हीं हाचे फाटलीं मुखेल कारणां. ह्याच कारणांक लागून 'मंगळुरी प्रमाण कोंकणी' आनी 'कोचीची प्रमाण कोंकणी' ही कोंकणीचीं आनीक दोन भुगोलीक प्रमाणां मुखार स्पश्टपणान वयर सरूं येतात. ही प्रक्रिया चालू आसा अशें म्हळ्यारूय फट जावंचेंना.

प्रमाणिकरण प्रमाण बोलयेचो शैलेचे नदरेन विस्तार घडोवन हाडटा. 'सादे' - अनुपचारीक शैले वांगडा प्रमाण बोलयेलागीं एक उपचारीक - संस्कारीत शैलीय आसता. (मुखार पळेयात : शैली भेद.)

शैलेच्या विस्तारा भायर प्रमाणिकरण भाशेचे उतरावळिचोय विस्तार करता. अणभवाच्या जितल्या अदीक मळांचेर भाशेक संद मेळटा तितली ती अदीक गिरेस्त जाता आनी तितलो तिच्या प्रमाणिकरणाकूय वाव मेळटा. देखीक, आयज सगळी भारतीय न्यायालयां इंग्लिश भाशेंतल्यान चलतात आनी हाकाच लागून थळाव्या भारतीय भासांनी आमकां कायद्याचे उतरावळिचें फावो त्या प्रमाणांत प्रमाणिकरण जाल्लें दिसना..

हांगा, प्रमाणिकरणाच्या संदर्भात वर्तमानपत्रांची दोट्टी भुमिका आमचे नदरेंत भरता: १) वर्तमानपत्रां प्रमाण बोलयेचें अनुकरण करतात आनी, २) वर्तमानपत्रां कांय प्रमाणांत प्रमाण बोलयेक आकारूय दितात. ही दुसरी भुमिका मातशी विस्तारान समजून घेवंया.

दिसपट्टीं नवीं नवीं आव्हानां पेलत वर्तमानपत्रां भाशेची संस्कारीत शैली घडोवपाक आदार करतात आनी भाशेंत नव्या नव्या उतरांचीय भर घालतात. हीं नवीं उतरां केन्ना प्रमाण बोलयेंतलेच धातू आनी कुसां एकठांय हाडून घडिल्लीं आसतात तर केन्ना भाशेच्या हेर बोलयांतल्यान वा संवकळिच्या हेर भासांतल्यान उश्णीं घेतिल्लीं आसतात. हेर भासांतल्यान उश्णीं घेतिल्लीं उतरां केन्ना अणकाररुपान आपणायल्लीं आसतात. (देखीक मराठी 'निवडणूक' कोंकणीत 'वेंचणूक' जाता.)

'भासाभास' ('उपचारीक चर्चा' ह्या अर्थान), 'कबलात', 'धर्मकोल्ल' (हें उतर शणै गोंयबाबांनी घडयल्लें आसूंक जाय. पळेयात: गोमन्तोपनिषत् खंड १: खर्णवीर आनी खंड २: ७वो आत्मो, ताचें उलोवप.), 'आकांतवाद' (हे 'आतंकवादा'क सुनापरान्तान दिल्लें कोंकणी रूप) हीं, आनीक जायतीं उतरां सुनापरान्तांतल्या दिसपट्ट्या वापराक लागून गोंयचे कोंकणीत प्रमाण जाल्यांत. सुनापरान्तान कोंकणीचें प्रमाणिकरण मराठी, हिन्दीच्या, वा म्हणुंया, कोंकणीच्या भयणभासांच्या प्रमाणिकरणाक अदीक लागीं व्हेलां अशें म्हणू येता. 'भ्रश्टाचार', 'हिंसाचार, 'उग्रवादी', 'प्रधानमंत्री', 'मुख्यमंत्री', 'राजधानी', 'संपादक हांच्या जाग्यार हालीं हालीं मेरेन कोंकणींत, अदीक करून बरपांत 'पाटांप्रधान' (मंगळूरांत 'प्रधानी' हे उतर घोळटा. 'राक्णो'. 'पयणारी' ह्या नेमाळ्यांतल्यान हे उतर थंय प्रमाण जालां), 'मुखेलमंत्री', 'राजपाटण', 'संपादपी' हीं कोंकणीचो अदीक सुवाद आशिल्ली उतरां उपकारायताले. हीं उतरां सुनापरान्तान जाणविकायेन कुशीक दवरिल्लीं दिसतात. हाका लागून तांचे परस 'प्रधानमंत्री', 'मुख्यमंत्री', 'राजधानी', 'संपादक' हीं 'अखील भारतीय' उतरांच आमकां अदीक लागिंचीं जाल्यांत.

सुनापरान्त वाचतना कोंकणीची वर्तमानपत्री भास चडशी मराठी वर्तमानपत्री भाशेच्या आदारान घडल्या हें नदरेंत भरले बगर रावना. 'अपघात', 'निवेदन', 'शक्तीप्रदर्शन', 'वटहुकुम', 'गुंतवणूक 'शिश्टमंडळ', 'जाहीर सभा'. 'टक्कर', 'दुरुस्ती' बी उतरां आमी सरळ मराठींतल्यान घेतल्यांत. 'राजिनामो', 'मोर्चा', 'सतर्कताय', 'लडो' ही कोंकणीकरण केल्ली मराठी उतरां.

मराठी कडल्यान उतरां उश्णीं घेतली म्हण कोंकणीचो घात जायना. सगळ्यो भासो एकामेकां कडल्यान उतरा उश्णी घेवनूच गिरेस्त जातात. पूण केन्ना केन्ना कोंकणीचे उश्णेपण 'फोल्गी' दिसले बगर रावना, देखीक, 'भौशीक जमात' हें उतर आमचेलागीं आसतना मराठी कडल्यान 'जाहीर सभा' हें उतर कित्याक घेवंक जाय आसलें? उतरांच न्हय, कांय मराठी झरिल्ल्या प्रयोगांचे अणकारूय आमी कोंकणीचेर लादतात. देखीक 'दुख:द निधन' हे कोंकणींत 'दुखेस्त मर्ण' जाला. (हें निकट 'मर्ण' दवरिल्लें जाल्यार कितें वायट आशिल्लें?) कोंकणी वयल्या मराठी प्रयोगाचें खरेलें 'वायट आंग आमकां दिश्टी पडटा तें कोंकणी वाक्यांच्या मराठी धाटण्यां भितर. हाच्यो कांय पती:

१. '**(अमक्याचें) भासविज्ञानावयर व्याख्यान**.' 'भासविज्ञानावयर' हो मराठी 'भाषाविज्ञानावर'चो कोंकणी 'वायट' अणकार, 'बरें' कोंकणीत हें 'भासविज्ञानाचेर' जावपाचें.

२. '**पक्षांतलो विरोध मोडून काडूं : मुख्यमंत्री**'. 'काडूं' सारकेलो 'जिंकू किंवा मरूं' जातिचो निच्छेव उक्तावणो प्रयोग कोंकणींत ना, 'काडटले', 'काडपी' सारकेलीं रुपांच कोंकणींत निच्छेव उक्तायता.

३. '**हाचेर अजून विचार केल्लो नासून आयचे गोंय भेटेंत ताचेर निर्णय जातलो**.' 'केल्लो नासून' हो 'मराठी कोंकणी' प्रयोग, वयल्या वाक्यांतलीं दोन उपवाक्यां गांठावपाची गरज दिसताच जाल्यार तीं अशी गाठावं येताली: 'हाचेर अजून विचार करूंक ना आनी गोंय भेटेंत ताचेर निर्णय घेतले.'

**४. 'मडगांव हांगा दिल्ल्या व्याख्यानांत...'** 'मडगांव हांगा' हो 'मडगांव इथें'चो 'उतर धार्जिणो अणकार' (literal translation). कोंकणीत 'मडगांवां' म्हळ्यार पुरो जाता. हेच भशेन, 'डॉ. डिसोजा हांणी' ('डॉ. डिसोजा यांनी') म्हणचे परस 'डॉ, डिसौजांनी' म्हणपूच कोंकणीच्या सभावांत सारकें बसता.

**५. 'ते एक व्हड साहित्यीक जावन आसात.'** 'जावन आसात' ची कोंकणीक गरज ना. 'ते एक व्हड साहित्यीक' हे वाक्य अर्दकुटें न्हयच न्हय.

**६. '(अशें) केले वता' वा '(अशें) करपांत आयलें'** असले प्रयोग तर 'सामकेच मराठी.' Passive voice कोंकणीत ना. '(अशें) करतात', '(अशें) केले' ही Active वाक्यांच कोंकणीच्या निजांत बसतात.

असल्यो आनिकूय देखी दिवं येता. हे 'वायट प्रयोग' सुनापरान्ता सारकेल्या दिसाळ्यांत रुढ जाले जाल्यार ल्हवू ल्हवू करून तें प्रमाणूय जातले. देखून, कोंकणीच्या प्रमाणिकरणा कडली आपणाली जापसालदारकी वळखून सुनापरान्तान आतां सावनूच ते टाळूक जाय.

## ४. शैली भेद

प्रसंगा प्रमाणूय वा म्हणुंया, संदर्भा प्रमाणूय भाशेंत वेगळेपण येता. भाशेच्यो प्रसंगीक बोलयो म्हळ्यार भाशेच्यो शैल्यो. जण एकल्याचे बोलयेंत उण्यांत उण्यो दोन शैल्यो आसतात. एक 'सादी' - अनुपचारीक आनी दुसरी उपचारीक वा संस्कारीत. सादे शैलेत 'एदुआर्द फालेर काल मडगांवां आशिल्लो' म्हणटात तें उपचारीक शैलेंत 'एदुआर्द फालेर काल मडगांवां आशिल्ले' जाता. सादे शैलेंत 'रिझल्ट येता' जाल्यार संस्कारीत शैलेंत 'निकाल जाहीर जाता.' सादे शैलेंत 'पुलीस पैशे खातात' जाल्यार संस्कारीत शैलेंत 'पुलीस भ्रश्टाचार करतात/लांच घेतात.' बल्कांवाचेर 'खबरी मारतात', 'गजाली करतात', 'चकाटां पेट्टात', 'झांकतात'... पूण, नरसिंहराव आनी क्लिंटन 'भासाभास करतात.'

संस्कारीत शैली ही वर्तमानपत्राची मुखेल शैली. देखून, 'लायटिच्या शॉकान बैल आक्ताक थंड' वा 'अमक्यान अमक्याक येतीश्ट मारलो' सारकेल्यो अनुपचारीक शैलेंतल्यो बातम्यो सुनापरान्तांत मदींच उजवाडा येतात तेन्ना आमकां हांसो येता.

अनुपचारीक शैलेचे एक खाशेलेपण म्हळ्यार तिची खाशेली अनुपचारीक - slang उतरावळ, 'अमको दोन नंबरचो धंदो करता', 'अमक्यान अमक्याच्या कानांत घालें', 'अमको काल सामको कुरकुरीत जाल्लो', 'अमको सामको टो टो फो/साडे आठ' ह्या वाक्यांतली 'दोन नंबर', 'कानांत घालप', 'कुरकुरीत', 'टो टो फो', 'साडे आठ' ही slang उतरावळ, भाशेंत नवीं नवीं slang उतरां येत आसतात आनी, घोळिल्ली slang उतरां जायते फावटी भास आपणाले 'प्रतिश्टीत' उतरावळींत आसपावनूय घेता. 'Mob' हें अशेंच slang उतरावळींतल्यान प्रतिश्टीत भाशेंत आयिल्लें इंग्लिश उतर.

दर एकल्या वेवसायाची आपणाली खाशेली उतरावळ, खाशेली शैली आसता. ह्या खाशेल्या उतरावळींक भासविज्ञान registers म्हणटा. 'खास प्रतिनिधी', 'खर चिंता', 'भिरांकूळ अपघात', 'सरकाराच्या निर्णयाचे समर्थन', 'खर वादळांत धा जाणांक मर्ण', 'उग्रवादयां आड मोहीम', 'अमक्याक अटक'... ही वर्तमानपत्री भास वा पत्रकारितेची खाशेली शैली.

वर्तमानपत्राचे भाशे संबंदान आनीक एके गजालिचो हांगा मुजरत उल्लेख करन दिसता:

'सादी भास' ह्या उतरांचो वयर सदळपणान वापर जाल्लो आसलो तरी भास ही तशी 'सादी केन्ना आसना. भाशेच्या प्रत्येक वापरांत एक भुमिका आसताच हें आमी विसरूंक फावना, देखीक, घरांतली वावराडी जे घडणुकेचे 'कॉप फुटलें' म्हूण वर्णन करता तीच घडणूक घरकात्र 'कॉप फोडलें' ह्या उतरांनी वर्णिता. वर्तमानपत्राच्या 'reporting'आंतल्यानूय हें दिश्टी पडटा.

**संदर्भः**

१. नेमाडे १९८७:१०

\+ तशें पळोवंक गेल्यार, भास एक अखंड आनी प्रवाही संस्था. देखून, 'वेव्हार भास' । 'साहित्य भास' अश्या कुडक्यांनी तिका आमच्यांनी वांटून घालूं नज. जायते फावटीं वेव्हारांतूय आमी साहित्य भास वापरतात आनी खंयचेय साहित्यकृतींतली सगळीच भास सदां 'साहित्यीक' आसना. पूण तरी, भाशेचीं वेगळीं वेगळीं तासां दाखोवपा खातीर भाशेचें शास्त्र ह्या लेबलांचो आदार घेता.

२. प्रमाणिकरण सदां आपशींच - सहजतायेन घडून येना आनी केन्ना केन्ना एके भाशेचीं दोन दोन रुपांय प्रमाण जावंक पावतात. अदीक म्हायती खातीर पळेयात : केळकर १९८३. लेख ३ (भाशेचे नियमन); सरदेसाय १९९३, लेख १०.

1. Linguistics & ideological transformations in news reporting - G. Kress (pp. 120-138).
2. Some constructs for analysing news - P. L. Jalbert (PP: 282-299).

---

**आदारावळ**

**कोंकणी**

सरदेसाय, माधवी

१९९३ भासाभासा जाग प्रकाशन, प्रियोळ

**मराठी**

केळकर, अशोक रा.

१९८३ वैखरी भाषा आणि भाषाव्यवहार, मॅजेस्टिक बुक स्टॉल, मुंबई,

नेमाडे, भालचंद्र

१९८७ साहित्याची भाषा, साकेत प्रकाशन, औरंगाबाद.

**इंग्लिश**

Davies Howard & Paul Walton (ed.)

(1983) 1984 Language, Image, Media, Basil Blackell, Oxford, Fromkin, Victoria & Rebort Rodman

(1974) 1978 An Introduction to Language. Holt-Saunders, Tokyo. (संदर्भ Styles, Slang, and Jargon. pp.271-274.)

*(हो लेख मार्च १९९६ 'जाग' आंकात उजवाडा आयिल्लो.)*

# वाचनाचें वखद

दत्ता दामोदर नायक



कोरोनाच्या दिसांनीच न्हय तर हरशींय बी वाचन हें एक वखदच अशें म्हाका दिसता. खंयचेंय पुस्तक वाचतकीर आमची मनरिजवण जाता. आमचें गिन्यान वाडटा. ते भायर वाचनान आमचेर आशिल्लो मानसीक ताण ल्हव जाता. वाचनान आमचो मेंदू तल्लख जाता, ताका तरतरी येता आनी स्मृतीभ्रंश (अल्झायमर) सारकें दुयेंस आमकां जायना. वाचनान आमची उतरावळ वाडटा. आमकां संदर्भ संपन्नता (Reference richness) येता. बरोवप्यांनी तर वाचप सामकें गरजेचें. म्हाका तर वाचतां वाचतां नवें कितेंय सुचत वता. एक फोगेट लायतकीर माराणांतली दुसरी फोगेट पेट्टा आनी अशें करून सगलो माराणूच गडगडपाक लागता, तशे तरेन पुस्तकांतलो एक विचार वाचतकीर म्हाका दुसरो, तिसरो, चवथो... अशे तरेन नवे विचार सुचत वतात.

पुस्तक वाचून वेळ बरो वता. जेन्ना भोंवतणीं तुमचे इश्ट नासतात तेन्ना पुस्तकूच तुमचो इश्ट जाता. हांव पुस्तक वाचना. हांव पुस्तक आयकतां. पुस्तकाचो बरोवपी म्हजे कडेन उलयता.

कांय म्हयन्यां आदीं म्हजे दोळे इबाडले. वाचपाक त्रास जावंक लागलो. म्हजी नदर अशीच इबाडत गेली जाल्यार एक दीस हांव कुड्डो बी जावचो ना न्हय अशे भिरांतेन हांव काचाबूल जालों. न्हिदेंत पडटात तीं सपनां लेगीत म्हाका सारकी दिसनात काय असो म्हाका भास जावंक लागलो. आतां म्हजें वाचप सासणाचें सोंपलें अशें दिसूंक लागलें. सारामागोच्या 'ब्लाईंडनेस' हे कादंबरीची याद जाली. थोड्या दिसांनी ल्हवू ल्हवू करून म्हजे दोळे बरे जाले. म्हाका सूऽऽ जालें. खूब दीस उपाशी आशिल्ल्या मनशान भकारो जावन मेळत तें मेळत तेन्ना खावचें तसो हांव पुस्तकाचो भकारो जालों.

बऱ्याच वर्सां आदीं न्यूयॉर्काक गेल्लों आसतना हांव थंयच्या 'बार्नस ॲण्ड नोबल' ह्या फामाद पुस्तकाच्या दुकानांत गेलों. थंय पुस्तकां पळयतां पळयतां म्हाका Why you should not buy books? हें ल्हानशें पुस्तक दिसलें. अस्तंत देशांनी पुस्तकांच्या दुकानांनी कॅफे आसता आनी थंय कॉफी घेत बसून पुस्तकां वाचलीं जाल्यार कोण्ण कांयच म्हणिना. कॅफेंत बसून हांवें तें पुस्तक वाचलें. 'पुस्तकांत तुमकां खबर नाशिल्लें कांयच नासता. बरोवपी तुमकां खबर आशिल्लेंच बरे तरेन सांगता. पुस्तक विकतें घेवन तें वाचचे परस जिणेंत प्रत्यक्ष अणभव घेयात.' अशें कितेंशें त्या पुस्तकांत बरयल्लें म्हाका हय न्हयशें याद जाता. हें पुस्तक म्हजे कडेन आसूंक जाय अशें म्हाका दिसलें आनी हांवें तें विकतें घेवपाचें थारायलें आनी मागीर म्हजें म्हाकाच हांसूंक येवंक लागलें. तुमी पुस्तकां विकतीं घेवचीं न्हय अशें सांगपी हें पुस्तक हांवें विकतें कित्याक घेवचें असो मनांत विचार आयलो.

हरशीं बार्नस ॲण्ड नोबलांतल्यान भायर सरतना म्हजे कडेन खूब पुस्तकां आसतात. त्या दिसा पयलेच फावट एक्कूय पुस्तक घेना आसतना फकत कॉफी पिवन हांव त्या पुस्तकांच्या फामाद दुकानांतल्यान भायर सरलों.

तुमी पुस्तकां कित्याक विकतीं घेवचीं न्हय हें सांगपी तें पुस्तक खंयच्या तरी पुस्तकाचो दुस्वास करपी मनशान बरयल्लें आसतलें अशें म्हाका दिसलें. म्हाका फॅरेनहायट ४५१ हे कादंबरीची याद आयली. ते कादंबरीचें हें नांव कित्याक? फॅरेनहायट ४५१ डिग्रीचेर कागद आनी पुस्तकां आपशींच जळटात. कादंबरींत एका राज्यांत नवो विचार फुडें येवचो न्हय म्हणून सगलीं पुस्तकां लासपाचो धुमाकूळ चलता. इतिहासांत दुसऱ्या प्रदेशाचेर घुरयो घालतकीर जैतवंत जाल्ले राजा थंयचीं पुस्तकां लासताले. अशे तरेन नालंदा, तक्षशीला विद्यापीठांतलीं, इजिप्तच्या अलेक्झाण्ड्रिया शारांतल्या ग्रंथालयांतलीं पुस्तकां लासून भस्म जालीं. डॉ. बाबासाहेब आंबेडकरान मनुस्मृती लासली हाका रजांव आसा, पूण हरशीं पुस्तकां लासप आनी ताचे फुडें वचून लेखकाक कादयेंत उडोवप (आमच्या देशांत कितलेशेच लेखक आयज कादयेंत आसात.) हाचे सारको दुसरो गुन्यांव ना.

हांवें बी. ए. ची डिग्री गणीत आनी अर्थशास्त्र हे विशय घेवन मेळयल्या. देखून हांव गणिता वयलीं पुस्तकां वाचतां. The principles of mathematic हे बेट्रॉण्ड रसेलाचें पुस्तक हांव वाचतां म्हणचे परस वाचपाचो यत्न करतां. गणीत म्हळ्यार आंकडे आनी चिन्नां हांचो उपेग करून उक्तायल्लें तर्कशास्त्र अशें रसेल म्हणटा. ह्या पुस्तकांत रसेलान विरोधाभासाचें एक उदाहरण दिलां - एका गांवांत एकूच म्हालो आसा. जे लोक आपलें स्वताचें खाड काडिनात तांचें खाड हो म्हालो काडटा जाल्यार त्या म्हाल्याचें खाड कोण काडटा? म्हालो आपलें खाड काडटा अशें आमी म्हणूंक शकनात कित्याक तर जे आपलें स्वताचें खाड काडिनात तांचेंच खाड म्हालो काडटा. म्हालो आपलें खाड काडिना अशेंय आमी म्हणूंक शकनात कित्याक तर जे स्वताचें (म्हळ्यार म्हालो स्वताचें) खाड काडिनात तांचें खाड म्हालो काडटा. म्हणटकीर दोनूय तरांनी वयर सांगिल्ले प्रमेय विरोधीभासी थारतात. 'हांव सदांच फट उलयतां', 'ब्रह्मचर्य आनुवंशीक आसता' हीं तशींच विरोधाभासी उतरां. हांव सदांच फट उलयतां जाल्यार हांव फट उलयतां हें उतर फट देखून हांव खरें उलयतां. मागीर हांव सदांच फट उलयतां हें उतर विरोधाभासी जाता. ब्रह्मचाऱ्यांक भुरगीं नासतात म्हणटकीर ब्रह्मचर्य आनुवंशीक अशें आमी कशें म्हणटले?

आपल्या तर्कशास्त्रीय गणिताचो उपेग करून रसेल म्हणटा : दुख्ख ना म्हळ्यार सूख न्हय. दुख्ख ना म्हळ्यार शून्य (झिरो) दुख्ख तशेंच सूख ना म्हळ्यार दुख्ख न्हय तर सूख ना म्हळ्यार शून्य (झिरो) सूख.

गणिती हें अच्युत गोडबोले आनी माधवी ठाकूर देसाई हांणी फाटीं बरयल्लें तें पुस्तक हांवें परत वाचलें. संगणक ० आनी १ ह्या आंकड्यांचे बायनरी पद्दतीचेर चलता. बायनरी पद्दती प्रमाण ० म्हळ्यार ०, १ म्हळ्यार १, २ म्हळ्यार १०, ३ म्हळ्यार ११, ४ म्हळ्यार १००, ५ म्हळ्यार १०१, ६ म्हळ्यार ११०, ७ म्हळ्यार १११, ८ म्हळ्यार १०००, ९ म्हळ्यार १००१ आनी १० म्हळ्यार १०१०.

'The fabric of the Cosmos' हें ब्रायन ग्रीनान बरयल्लें पुस्तक हांवें वाचलें. ह्या पुस्तकांत बरोवपी वाचप्याक विस्वास दिसपाक कठीण अशी संकल्पना सांगता. भविष्यकाळांत घडपी घडणुको वर्तमानकाळांत खंयची घडणूक घडटा हें थारायता. एक ग्रह अंतराळांत फुडाराक 'ब' हे सुवातेर आसतलो जाल्यार हो ग्रह आपूण भविष्यकाळाच्या भूतकाळांत म्हळ्यार वर्तमानकाळांत 'अ' अवकाशकाळाचे सुवातेर आसतलो हें थारायता. खंयच्या ग्रहतिकाचेर ब्रायन हें प्रमेय मांडटा आनी तें तो कशें सिद्ध करतलो तें ब्रायन सांगना. हांवें स्वताच हे संकल्पनेचेर विचार केलो तेन्ना म्हाका प्रस्न पडलो - एक मनीस ३१ डिसेंबराक मरतलो जाल्यार १ जानेवारीक ताचे कुडींत खंयचें दुयेंस येता काय?

युवाल नोह हरारीचीं (Homo) Sapiens : A brief history of humankind आनी Homo deus : A brief history of tomorrow हीं दोन पुस्तकां म्हाका खूब आवडलीं. तांचेर हांवें लेख बरयले. जांकां शक्य आसा तांणी तीं वाचचीं. यंत्रमानव, कृत्रिम बुदवंतकाय, दुयेंसां बरीं करपी जनुकीय उपाय, चलोवप्याची गरज नाशिल्ल्यो गाडयो, विमानां, खंयचीय वस्त करपी तीन आयामी छपाई (Three D printing) खंयचीय वस्त खंयूय पावोवपी ड्रोन्स हे खातीर मनशाचें जिवीत बदलतलें. लाखांनी लोक बेकार जातले. सरकारान तांकां दर म्हयन्याक पयशे दिवचे पडटले. कांयच करपाचें नासल्यार लोकांक वाज येतलो, मानसीक दुयेंसां वाडटलीं अशें फुडारांतलें चित्र हरारी चितारता.

कोंकणींतल्यो 'व्हडलें घर' ही उदयबाब भेंब्र्याची आनी 'जीव दिवं काय च्या मारुं' ही दामोदर (भाई) मावज्याची - अश्यो दोनूय कादंबऱ्यो हांवें वाचल्यो आनी म्हाका त्यो आवडल्यो.

मराठींत 'वीरधवल' ही नाथमाधवाची आनी 'ब्राह्मणकन्या' ही डॉ. श्रीधर केतकराची - ह्यो पोरण्यो कादंबऱ्यो हांवें वाचल्यो. बाणभट्टाचे 'कादंबरी' हे संस्कृत कादंबरीचें पुर्नवाचन केलें. 'नास्तिकयात्रा' - सुनील दांडेकर, 'लॉरी बेकर' - अतुल देऊळगावकर आनी 'चौकात उधळले मोती' - अंबरीश मिश्र हीं पुस्तकां वाचलीं. अंबरीश मिश्राचें पुस्तक उर्दू शायरीचेर आसा. उर्दू भास शिकप जालें ना तरी उर्दूंतलीं चडांतचड उतरां समजूंक जाय अशें म्हाका दिसता. 'वोल्गा ते गंगा' ही राहुल सांस्कृत्यायनाची कादंबरी वाचपाची उरिल्ली ती वाचून काडली. रत्नाकर देसाई ह्या म्हज्या वाचकान म्हाका ताणें बरयल्लें 'सौंदेकर घराण्याचा इतिहास' हें पुस्तक धाडलें. तें वाचून बऱ्योच गजाली कळ्ळ्यो.

सिद्धार्थ मुखर्जीचें 'The Gene' वाचून काडलें. डॉ. अतुल गवंडेचें 'Being Mortal' वाचलें. Caste matters हें जातीभेदा वयलें सूरज येंगडे हांचें खूब बरें पुस्तक. ताचेर हांवें लेखूय बरयलो. 'Guns, Germs and Steel' हें जारेड डायमंड हांचें पुस्तक वाचलें. आफ्रिका, ऑस्ट्रेलिया, अमेरिका हे खंड आनी थंयचे लोक, युरोप आनी आशिया खंड आनी थंयच्या लोकां परस पांच हजार वर्सां सावन फाटीं कशे पडले ह्या प्रस्नाची जाप डायमंड दिता. डायमंड म्हणटा - युरोप आशियांतले लोक जगाच्या हेर वाठारांतल्या लोकां परस चड बुदवंत, चड घटमूट आशिल्ले म्हूण न्हय तर ताचे फाटल्यान भुगोलांत कारणां आसात. कोरोनाच्या संदर्भांत पुस्तकांतले 'Germs' हें प्रकरण वाचपाचें. सावदां आनी मनीस हांच्या संपर्कांतल्यान सगल्या रोगांचे जंतू तयार जातात अशें लेखक म्हणटा.

देवीप्रसाद चट्टोपाध्याय हांचें 'Lokayat : A study in ancient Indian materialism' हो जडवादा वयलो ग्रंथ परत वाचलो. बरोवप्याच्या म्हणण्या प्रमाण गौतम बुद्धान जातीभेदा आड आवाज काडलो, पूण त्या काळांतल्या गिरेस्त वेपाऱ्यांच्या आनी राजांच्या हितसंबंदाक बादा हाडली ना. गौतम बुद्ध वर्ग संघर्षा पासून पयस रावलो. गुलामांनी भिक्षू जावंक जायना असो नेमूय ताणें केलो. जडवादाचेर तर्कतीर्थ लक्ष्मणशास्त्री जोशी हांणीय एक मराठी पुस्तक बरयलां. तें हांवें वाचूंक ना. पूण ताची एक गजाल हांव जाणां - जडवादा वयलें हें पुस्तक शास्त्रीबुवान जड, दुर्बोध भाशेंत बरयलां. तांचो एक इश्ट शास्त्रीबुवां कडेन आयलो आनी म्हणपाक लागलो - तुमचें पुस्तक वाचलें. तें खूब बरें आसा. पूण तुमी तें मराठींत बरयल्लें जाल्यार बरें जावपाचें.

अश्विनी भिडे देशपांडे हांणी बरयल्लें मादाम मेरी क्युरीचें चरित्र हांवें वाचलें. मादाम मेरी क्युरीक २ नोबेल पुरस्कार, तिच्या घोवाक - पीयर क्युरीक १ आनी धूव आयरीन क्युरीक १ अशे चार नोबेल पुरस्कार क्युरी कुटुंबाक मेळ्ळे.

'The Psychology of money' हें मॉर्गन होसेल हांचें पुस्तक वाचलें. कोंकणींत गिरेस्त हें एकूच उतर आसा पूण इंग्लिशींत wealthy आनी rich हीं दोन उतरां आसात. जो शाणेपणान गिरेस्तकाय सांबाळटा तो wealthy आनी जो पिशेपणान पयशे मोडटा तो rich असो भेद बरोवपी करता.

डेन आरियेलीचें 'Predictably irrational' हें पुस्तक वाचलें. पयशे जोडटना आनी मोडटना मनीस कसो बुद्धीप्रामाण्यवाद आनी विवेक खुंटयेक लायता ताचेर हें पुस्तक उजवाड घालता.

'Thinking fast and slow' हें अर्थशास्त्रांत नोबेल मेळिल्ल्या डेनियल केहनमन हांचें पुस्तक. बेगोबेग विचार करचो न्हय तर सवकासायेन विचार करचो अशें हें पुस्तक सांगता. जांकां गणिताची, चड करून संख्याशास्त्राची फाटभूंय ना तांकां हें पुस्तक समजुपाक कठीण. परेश प्रभू हांचें 'बाकी संचित' हें बाकीबाबाक आयिल्ल्या आनी तांणी बरयल्ल्या चिटयांचो आसपाव केल्लें पुस्तक आनी तांचेंच गोपालकृष्ण भोबे : चरित्र आणि साहित्य हीं पुस्तकां हांवें वाचलीं. 'मासे आणि मी' हें गोपालकृष्ण भोबे हांणी बरयल्लें म्हजें आवडटें पुस्तक परत वाचून काडलें.

'Foundation of Tilak's nationalism' हें परिमला राव हांचें पुस्तक वाचतकीर लोकमान्य टिळकांची समाजीक मतां कितलीं प्रतिगामी आशिल्लीं तें कळटा. टिळक चातुर्वर्ण्य मानतालें. जातीभेदा आड महात्मा ज्योतिबा फुलेनी केल्ल्या यत्नाक तांणी फाटबळ दिलें ना. चलयांची लग्न जावपाची पिराय वाडोवची म्हूणन केल्ल्या संमती बिलाक टिळकांचो विरोध आशिल्लो. स्त्रीशिक्षण, विधवाविवाह ह्या समाजीक सुधारणांक टिळकांनी तेंको दिलो ना. टिळक हिंदुत्ववादी आशिल्ले आनी तांच्या हिंदुत्ववादाक गिरेस्त उच्चवर्णियांचें हीत सांबाळपाचो वर्गीय संदर्भ आशिल्लो अशें लेखक म्हणटा.

निमाणें, दत्ता दामोदर नायक ह्या लेखकाचें 'इकेबाना' हें प्रवासवर्णनात्मक निबंधांचें मराठी पुस्तक छापपाक धाडचे पयलीं परत परत वाचलें.

संपर्क : 9822102416



# वार्तांकन, लेखन आनी साहित्य

**मुकेश थळी**



संजीव अभ्यंकराचें एक मराठी भजन आयकतालों. च्या घेतना सकाळीं लायलें. खुबूच भावभक्तीरसपूर्ण. पं जसराजाचो हो शिश्य. भक्तीरचना गावपा खातीर जसराजान वेगळो संगीत गुरू करून शिक्षण घेतलें. ताका लागून ह्या गुरू शिश्याच्या गाण्यांत एक वेगळीच रसिली रसमयता येता. ईश्वरी आराधनेची ती आर्तता, शांत निवळ सूर काळजांत घुमत उरले. उतरां सयत.

म्हजी आजी दुदाचे पेडे वेलची आनी साकर हांचे सयत आटयत बसताली तसो फिल त्या भजनांत रममाण जातना म्हाका जालो. कुळागरांत पाचवीचार शिरती काडून जेवणाक दवरिल्ल्या त्या पानार यजमान्नीन घराव्या तुपाची धार सोडची तशी ती अभ्यंकराची स्वर धार काळजांत रकपाक लागली. सांगपाचो आपरोस - साहित्यकृती ही पेडे आटयल्ले भशेन सादर करची. गोडव्या सयत.

जोगकंस रागाचेर आदारीत ती रचना. मालकंस, मधुकंस, हरीकंस, चंद्रकंस अशे भाव-भाव कशे दिसपी हे कितलेशेच राग. जिरें आनी बडीशेप वा सांसवां आनी नाचणे वळखुपाक कठीण जावचें तसली गत ही. ते संजीव अभ्यंकराचे स्वर अंतरंगांत घुमत उरले आनी हांव भितल्ले भितर गुणगुणत उरलों. परिणाम आनी प्रभाव तो हो. संगिताचो, गायकाचो, स्वराचो आनी ते अभिजात कलेचो.

शब्दरचनेंत जेन्ना असलो जादू येता तेन्ना ताका साहित्यकृती म्हणटात. वार्तांकन, लेखन आनी साहित्य- ह्या तिनांतूय उतरांच आसतात गा. पूण साहित्यकृतींत ताची ताकद सगळ्यांत चड आसता. क्लासिकल म्हळ्यार अभिजात संगितांत आसची तशी.

वार्तांकन म्हळ्यार रिपोर्टींग. तें पेपरा खातीर आसूं येता, रेडीयो टीवी बातम्यां खातीर आसूं येता वा समाजीक माध्यमां खातीर वा इंटरनेटा वेल्या डिजिटल पेपरा खातीर आसूं येता. बातम्यांनी फक्त खंय, केन्ना, कोण, कशें, इतले घटक कथनात्मक शैलीन सांगिल्ले आसतात. मीठमसालो, आळेण वा मीठमिरसांग लायिल्ली आसना.

लेखनात मीठमसालो वर्णन येता. लेखन आनी साहित्य घुस्पावंचें न्हय. साहित्य ही लेखनाची अल्टीमेट स्टेज. अत्युच्च. साहित्यकृतींत लेगीत कांय पॅचीस वार्तांकना भशेन येवं येता. तेन्ना संपादकाची जापसालदारकी आसता, लेखकाक सांगून ते जाग्यार घालपाची.

साहित्यकृती वाचिना फुडें ती मानगुटेर म्हळ्यार कांट्यार बसली, तुज्या रगतांत, मनांत रिगली काय समजुचें तातूंत साहित्यीक मुल्यां आसात. उंचेल्या प्रतीचीं. पुरूषोत्तम सिंगबाळ हांची 'मोनी दनपारऽ' ही कथा खूब वर्सां पयलीं राष्ट्रमत दिसाळ्यांत उजवाडाक आयिल्ली. हांव विसरूंकूच शकना. अप्रतीम. एके ल्हान चलयेक दनपारां सगळीं आड पडिल्लीं आसतना दनपार खावंक आयिल्ले भशेन दिसता, तो ताचो भावनीक ट्रॉमेटीक मूड आनी दनपारची लय आनी गंभीर संगीत लेखकान फक्त खेळयल्लें.

शीला कोळंबकाराची 'इल्लें शीं इल्लें गर्मीऽ' ही कथा एक अत्युच्च साहित्यकृती. हे कथेक साहित्यीक पांवड्यार संपादन जाय आशिल्लें हें सांगतकच हे म्हान साहित्यिकेन, दिलदारपणान, मेकळेपणान तें मान्य केलें. कारण तें खंय आनी कशें जाय हें हांवें विस्कटावन सांगलें. कायलोळ्यो न्हय. पूर्ण स्पश्टता. तिका पटलें. तिणें आदवोगाशी, समर्थन करून आपले वडिलकेचो लटीक फुत्कार घालोना. सत्य हें अंतीम. आयकनासतना, संवाद सादिनासतना, लवचीक रावनासतना, नमळाये विणें, आपले वर्तनीय आन्नी तकलेचे मिडियोक्रीटीचो थातोमातो करीत जे रावतात, ते मुखार वचूंक पावनात. आपूण फाटीं वतातूच (मुखार नाशिल्लेच), कोंकणीकूय फाटीं रिवर्सांत घालीत आसतात. कोंकणींत साहित्यीक संपादन हो विशय घडचना, संपादन संस्कृतीच ना, ताचेर हांवें खूब आदीं जाग नेमाळ्यांत एक लेख बरयल्लो, तो म्हज्या फुडल्या पुस्तकांत येतलो.

हालींच रवी शंकराची सतार आयकली - राग यमन कल्याण. १९७४ लंडन. तबल्याचेर अल्लारखां म्हळ्यार झाकीर हुसेनाचे वडील. ह्या संगीत आविश्कारांत, २५ मिनटां वेगळ्याच संवसारांत पाविल्ले भशेन दिसलें. आलाप, मध्य आनी द्रुत तिनूय लयींत हो म्हान कलाकार सतारी वांगडा तार -मध्य- मंद्र सप्तकांत जो लिलया खेळ्ळो, वा! स्वता पयलीं तो ह्या संवसारांत नाशिल्लो. दोळे धांपून घामाघूम जावन वेगळे तंद्रेंत संगीतमय ईश्वरी शक्ती कडेन एकरूप- एकतान जावन विलीन जाल्लो. अल्लारखां हांणी तबलें फडफडायतना, डग्याची जी घुमी दिली तो घुमारो आंगभर, आंगांतल्या पेशींनी एक नवउमेदीचो संचार हाडूंक पावलो. ती साथ वादकाक एक नवी चेतना दिवंक पावली. ह्या अभिजात शास्त्रीय संगिताच्या परिणामा वरीच आसचो साहित्यकृतीचो दर्जो, अशें म्हाका दिसले. संगितान तुज्या काळजांत कायमचें इम्प्रेशन सोडचें. साहित्यकृतीनूय तशीच अमीट छबी तुज्या मेंदवांत, मनांत, आनी काळजांत सोडची.

संगितांत आसता न्यास. ठेहराव. तानो, आवर्तनां, मुरक्यो, हरकती, खाली मात्रा, सुंदर विराम. ज्या साहित्यांत हे घटक लय, ताल, नाद, ठेक्या सयत आनी गणितीय भुमितीय रचणुकेच्या आंगलोटा सयत येतात, ताका म्हणची उत्कृश्ट साहित्यकृती. सशक्त साहित्यकृतींत कितलींशींच आंदोलनां, कंपनां, तरंग, स्पंदनां विविध अर्थवलयांचीं आनी अंतप्रवाहाचीं आनी प्रतिकां प्रतिमांचीं विविध मितींतल्यान नाचत आसतात. मळबांत फोगाचो बाण टूम्म करून फुटचो आनी कितल्याशाच रंगांची नकेत्रां कारंज्यां सारकीं उसळून देंवचीं तशें, खऱ्या साहित्यकृतींतल्यान कितलेशेच अर्थ, संदेश, सूचकसार मोतयां तुज्यांत देंवतात.

तुज्या भाशेंतलीं उतरां, म्हणी, ओपारी, वाक्प्रचार हें तुज्या शब्दसतार वाद्याचें निमित्त. तातूंतल्यान दिव्य पुजाविधी साकार केल्ले वरी प्रशस्त शब्दप्रवास धावंचो आनी अनुभुतीजन्य प्रवाह व्हांवचो, तेन्ना त्या झऱ्याक साहित्यकृती म्हणचें!!! रेंवेंचेर चलतकच पावलां उमटचीं तशे तरेच्यो कुरवो हो साहित्यकार नांवाचो शब्दकलाकार त्या चिरंतन मार्गार कायमच्यो सोडटा!! कारण त्यो कुरवो सत्याच्या फुलांतल्यान सहजपणान उमलून आयिल्ल्यो आसतात. चिरंतनत्वाचो सुगंध दित रावतात. कायमचो.

संपर्क : 9545827662

# वाचन : एक कोलाज

**एस. डी. तेंडुलकार**



१.

सटये रातीक बरयलें कोणें वाचलां?

२.

म्हजी वाचनाची सुरवात साधारण वयाच्या धाव्या वरसापसून जाली अशें म्हणूं येता.तेन्ना सगळें मराठीच वाचन जातालें. चांदोबापसून सुरवात करून हांवें चंद्रकांत काकोडकरामेरेन ल्हानपणासूनच सहज मजल मारिल्ली. एस.एम.काशीकर हो म्हजो तेन्नाचो आवडतो डिटेक्टीव लेखक. गुरुनाथ नाईकच्यो पयल्यो शंबर डिटेक्टीव कादंबऱ्यो हांवें सेगीत न चुकता आवडीन वाचिल्यो आसात.पूण हातूंत बाबुराव अर्नाळकर म्हाका केन्नाच आवडुंक ना. काशीकर वाचल्या उपरांत अर्नाळकर पचपचीत दिसतालो. खेळाबिळाची म्हाका व्हडलीशी आवड नाशिल्ली, म्हजें ल्हानपण पुस्तकांच्या सांगातानूच गेलें. पुस्तक होच खरो म्हजो आमीग हें तेन्नासुनूच म्हाका जाणविल्लें.

३.

हांव नास्तिक न्हंय. पूण मूर्तीपुजा वा धार्मिक कर्मकांडात म्हाका ल्हानपणासूनच रस दिस नाशिल्लो. आजुनूय दिसना. घरांत हांव सामको बंडखोर. दिसभर हांव पुस्तकां वाचतां ते पळोवन म्हजो बापूय म्हणटालो, ह्या पुस्तकांनी हाची सामकी वाट लायल्या, मेंदूर परिणाम केला. म्हज्या बापायचो बारावो आशिल्लो तेच दिस म्हज्या पुस्तकाक दिल्ली साहित्य अकादमीचो पुरस्कार जाहीर जाल्लो.

४.

हांव केन्ना देवळांत बी वच नाशिल्लो पूण लायब्ररीत मात न चुकता सद्दा वतालो. कोणेंय विचारल्यार हांव सांगतालो, लायब्ररी हेंच म्हजें देवूळ.

५.

आता जंय म्हापसा स्टेट बँक आसा, थंय आदी सेंट्रल नावाचें सिनेमा थिएटर आशिल्लें. ताचे कुशीकुच आमची ज्ञानप्रसारक शाळेची पोरणी बिल्डिंग आशिल्ली.येता-वता सिनेमाचे पोस्टर पळोवप आनी त्या पोस्टरचेर बरयल्ली सिनेमाची आनी नट नटयेंची नावां वाचप हो शाळेंत आसताना म्हज्या वाचनाचोच एक भाग जाल्लो. ते बिल्डिंगेत शाळेचीच दुर्गा वाचन मंदीर नावाची लायब्ररी आशिल्ली. ते लायब्ररीत हांव सदाच सांजचो वतालो. एक दिस पावस पडटा म्हूण हांव सत्री घेवन गेल्लो. सत्री भायर दवरुन हांव वाचपाक बसलो. बऱ्याच वेळान हांव वाचून भायर सरलो तेन्नाय पावस चालूच आशिल्लो. पूण वाचनाची तंद्रीच इतली जबरदस्त आशिल्ली की हांवें सत्री हाडल्या हेंच हांव विसरून गेलो आनी भर पावसातल्यान भिजत घरा गेलो. ते रातीकडे घे बापायचो म्हजेर फोग.

६.

म्हापशांत आनींक एक लायब्ररी आसली. दैवज्ञ ब्राह्मण समाज हे नावाची.ती सांजची फकत एक वर उगडटाली. सात ते आठ. थंयूय हांव वतालो. ते लायब्ररीत 'सत्यकथे' चे पोरणे अंक आशिल्ले. त्या अंकांचे गठ्ठे घेवन हांव वाचीत बसतालो.लायब्ररी बंद जायसर. नवकविता, नवसाहित्य हांचो परिचय थंयच जालो. उपरांत कॉलेजीत आसतना सद्रेसरांकडे 'सत्यकथे'चे एका-एका वरसाचे बाईंड केल्ले अंक वाचपाक मेळटाले.सद्रेसर वर्गणीदार आशिल्ल्यान तांका दर म्हयन्यांक 'सत्यकथा' येताली. 'सत्यकथा' बंद जायसर हांवें ते तांचेकडल्यान घेवन वाचल्यात.

७.

अथाईड म्हापसा म्युनिसिपल लायब्ररीत तर दोन वेळां वचप जातालें. सकाळ आनी सांज.आमचें चडश्या आमीगांचे मेळप थंयच जातालें. लायब्ररीच्या भायर लांबचेलांब व्हरांडो आशिल्लो आनी तीन-चार लाकडी बाकडे थंय बसपाक आशिल्ले. वाचले-बिचले उपरांत भायर ह्या बाकड्यार बसून चकाटां मारप, वादविवाद करप हो आमचो सदचो कार्यक्रम. आपापल्या साहित्यकृतींचें वाचन आमी बरेच फावट हांगाच बसुन करताले.अथाईड लायब्ररी म्हळ्यार आमचें सांस्कृतिक केंद्र जाल्लें. हालीच ही लायब्ररी म्युनिसिपालटीन बंद केली तेन्ना म्हजे सारक्या अनेक वाचकांचे जीणेंत एक मोट्ठी पोकळी निर्माण जाली हें सत.

८.

एक दिस सद्रेसरान म्हाका दोन कादंबऱ्यो वाचपाक दिल्यो.एक आशिल्ली मनोहर शहाणे हांची 'पूत्र', तर दुसरी आशिल्ली भालचंद्र नेमाडेंची 'कोसला'. पयल्या वाचनात 'कोसला'कुय म्हाका 'पूत्र' चड आवडली. 'कोसला' बरीच पाल्हाळीक दिसली. तशें हांवें सद्रेसरांक म्हटलें लेगीत. सद्रेसर फकत मुमुरख्यानी हासले, पूण कमेंट्स कांय केले ना. खरे म्हणजे 'कोसला' ही कादंबरी हांवें अथाईड म्युनिसिपल लायब्ररीत हे आदी पळयल्ली. पूण पुस्तकाचे नाव आनी कव्हर पळोवन ही नागालँडच्या जीणेचेर आसा असो तेन्ना म्हजो वगीच समज जाल्लो.(कित्याक खबर ना). आनी ती दर फावट काडून हांव कडेक दवरतालो.आता सद्रेसरान मुद्दम वाचपाक दिल्ली, म्हूण तिचें वाचन जाल्लें.म्हणटासर बरें एक वर्स गेलें. पूण कितें कोण जाणां, ह्या काळात हे कादंबरीतल्यो अनेक घटना, अनेक प्रसंग म्हाका म्हजे नकळत परत परत याद जावपाक लागले. म्हणून ही कादंबरी हांवें दुसरे फावट वाचली. आनी कितें सांगू, आता ती वाचताना हांव सामको भारावन गेलो. पयल्या वाचनात ज्यो गजाली म्हजे तकलेवेल्यान गेल्ल्यो, त्यो म्हाका आता जाणवपाक लागल्यो. नेमाडेंची एकाचवेळार अनेक पावंड्यांचेर

वावुरपी भास, गद्याचे वेगवेगळे नमुने, बेधडक शैली ह्या गजालींनी हांव भारावन गेलोच, पूण सबंद कादंबरीतली निरागसता आनी शेवटाक त्या निरागसतेचो जाल्लो अंत पळोवन प्रचंड अस्वस्थतायेचो अणभव हे कादंबरीन म्हाका दिलो. 'कॅचर इन द राय' ह्या जे.डी.सेलिंजरच्या कादंबरीकडे 'कोसला'चें साम्य क्सिलें तरी 'कोसला'त जो आत्मीकते वांगडाच जो भव्य सामाजिक पट आयला, तो सेलिंजरच्या कादंबरीत ना. कोसलातलो अणभव पूर्ण देशी रुप घेवन आयला, ताची तुळा सेलिंजरच्या कादंबरीकडे जावकुच शकना. ताचे उपरांत जायते फावटी ही कादंबरी हांवें वाचल्या आनी दर फावटी म्हाका नवनव्यो गजाली जाणवत रावल्यात. मराठीतली ही एक युनिक साहित्यकृती.

९.

बरयल्लें तें सगलेच साहित्य. पूण दोन ओळीं मदलें वाचपाक जें साहित्य प्रवृत्त करता तें बरें साहित्य आनी दोन ओळीं मदलें वाचपाक येवप हें बऱ्या वाचकाचें लक्षण.

१०.

नाटक ही दृश्यकला. पूण नाटकाचें पुस्तक हें साहित्य. खरें म्हळ्यार नाटक हें मूळांत साहित्य, उपरांतूच ती दृश्यकला.

११.

हांवें नाटकां कमी पळयल्यात पूण वाचल्यात खुप. नाटक वाचताना दोळ्यांफुडे ताचो जो प्रयोग जाता तो म्हाका अदीक आवडटा. नाटक वाचून जेन्ना-जेन्ना हांव ताचो प्रत्यक्ष रंगमाचयेर प्रयोग पळोवपाक गेला, तेन्ना केन्नाच तो म्हाका आवडूंक ना. हातूंत एक अपवादात्मक नाटक म्हळ्यार 'घाशीराम कोतवाल'. हें नाटक वाचताना म्हाका मातूय आवडुंक नाशिल्लें, पूण उपरांत ताचो रंगमाचयेर प्रयोग पळोवन हांव सामको भारावन गेल्लो. पूण म्हजे आवडते नाटककार म्हळ्यार आंतोन चेखोव, गिरीश कर्नाड बी. तांची नाटकां म्हळ्यार अस्सल साहित्य. ज्या नाटकात साहित्यमूल्यां नात ती कालांतरान आउटडेटेड जातात. युजिन आयनेस्को हो आनीक एक म्हजो आवडतो नाटककार. तांचें 'चेअर्स' हें नाटक हांवें सुरवातीक कॉलेजींत आसतना वाचिल्लें. तें वाचल्या उपरांत मनाची जाल्ली सुन्नावस्था आजुनूय हांव विसरुंक ना.

१२.

गद्य वाचन आनी कविता वाचन हातूंत भाशीक स्पेसचो फरक आसता. गद्यात अणभवाचें कम्युनिकेशन हो हेतू आसता तर कवितेत कम्युनिकेशन वांगडाच भाशेचें रीक्रीएशन आसता.उतरां, उतरांचें वजन, उतरांचो नाद, उतरांची नजाकत, दोन उतरां मदली रिकामी सुवात, विराम, अनेकार्थ बी ह्यो सगल्यो गजाली कविता वाचताना अदीक नदरेन भरतात, कवितेच्या अनेक पदरी आशयासकट जाणवतात. ऑक्ताविओ पाजच्या भाशेंत सांगचें जाल्यार, कविता वाचप म्हळ्यार ती दोळ्यानी आयकप आनी कविता आयकप म्हळ्यार ती कानानी पळोवप.

१३.

कवी परेश कामत हांची कविता वाचतना रसिकाक दिसूं येता की ही कविता स्वता भितरुच मुंगरुन राविल्ली आसा. भायल्या गजालींच्या घडामोडींचो तिचेर व्हडलोसो परिणाम जायना. पूण अशें आसप म्हळ्यार ह्या कवितेची मर्यादा अशें निखालूस न्हय. हो ताचे कवितेचो स्वभाव अशें म्हणूं येता. पूण कवीचें व्यक्तीमत्व आनी ताचे कवितेचो स्वभाव ह्यो दोन वेगवेगळ्यो गजाली जावं येतात काय किते असो म्हाका प्रश्न पडला. कारण फेसबुकावेल्यान म्हाका कळ्ळें की कवी परेश कामतीक क्रिकेट, सामाजिक घडणुको, पॉलिटिक्स आनी फायनान्शियल इन्व्हेस्टमेंट हातूंत भरपूर रस आसा. तांच्यो डेलीच्यो फेसबुकावेल्यो पोस्ट वाचून हें सहज कळूं येता. मागीर कवितेतूच कवी असो सोवळो कित्याक काय? कवीची जीण आनी कवीची कविता वेगवेगळी आसूं येता काय?

१४.

वर्तमानपत्राचे वाचन म्हळ्यार किते तर जगांतल्या घडामोडींचें वाचन. वाचन संस्कृती टिकपाक जाय जाल्यार वर्तमानपत्रां तर सामकी महत्वाची. मागीर भालचंद्र नेमाडे सारको एखादो कितलेंय म्हणूं की वर्तमानपत्रां खातीर भाशा बिगडटा म्हूण. फकत वर्तमानपत्रातली बातमी, वर्तमानपत्री लेखन आनी सृजनशील साहित्य हांतलो फरक वाचकाक कळपाक जाय. कारण ह्या दोगांमदलो फरक समजुपी वाचकुच खरो सुजाण वाचक आसता.

१५.

आजच्या डिजिटल युगात डिजिटल वाचन हे अपरिहार्य जालां. वाचन संस्कृतीचोच तोवूय एक भाग. डिजिटल वाचनान मनशाचे मेंदूत कांय बदल घडूं येतात असो कांय शास्त्रज्ञांचो दावो आसा.पूण ताका पर्याय ना. आजची तरणी पिळगी तर पुस्तकाकुय इंटरनेट आनी ई-बुक्स हांकाच चड प्राधान्य दिता.आता म्हजे सारक्या आऊटडेटेड मनशाक ई-पुस्तक वाचपाक जड वता हो भाग वेगळो.

१६.

लेखकाच्या जीवनशैलीतल्यानूच ताच्या भाशाशैलीची निर्मणी जाता. कोंकणींत रवींद्र केळेकार हांची गद्य शैली आकर्षक, वाचनीय आशिल्ली. ल्हान-ल्हान टोकदार वाक्यां, ल्हान-ल्हान पॅरा आनी उलयल्या सारकें बरोवप. दत्ता दामोदर नायक वा शिला कोळंबकार हांची लेगीत गद्य शैली अशीच. पूण महाबळेश्वर सैलाची भाशाशैली ही ऐसपैस, दीर्घ पल्ल्याची. यशस्वी कादंबरीकाराक जाय तशी.दत्ता नायकाची 'सावित्री' कादंबरी फसली कारण दत्ताकडे कादंबरीकाराची भाशाशैली नाशिल्ली हें जालेंच पूण मूळांत विशय कडेक दवरुन तो आपलेच स्वप्नरंजन करपाक गेलो आनी थंयच फसलो. रमेश वेळुस्कार कविता बऱ्यो बरोवपी, पूण ताणें बरयल्लें गद्य म्हज्यान तरी वाचुंक जायना. आपूण कितेतरी मोट्टें सांगता अशी आव हाडील्ल्या सारकी ताची गद्यशैली. चडश्या कवींक बरें गद्य बरोवंक जायना असो म्हजो अणभव. हाका अपवाद कवी माधव बोरकार. माधव बोरकाराची गद्यशैली एकदम संयत. संथ, गंभीर लय आशिल्ली. कृ.म.सुखटणकर खरें म्हळ्यार पेजाद कोंकणी गद्य बरोवपी. आपुण विनोदी न्हय, पूण कितेतरी गंभीर बरयता असो एटीट्यूड दवरुन ताणें गद्य बरयलें जाल्यार तांचो विनोद खऱ्या अर्थान फुलतलो, तांच्या विनोदाक जीणेची

अर्थपूर्ण खोलाय येतली अशें म्हाका दिसता. अना म्हांबऱ्याची शैली कॉंदीक आनी तिरसुवादीक. म्हांबऱ्यांचे लेखन वाचताना वाचकाक प्रश्न पडटा की आपूण गंभीर वाचता काय विनोदी. दिलीप बोरकाराची गद्यशैली फ्लेक्सिबल, शेड्ड्याभशेन रंग बदलपी. (बऱ्या अर्थान). उदय भेंब्रे हांची गद्यशैली मुद्देसुद, आदवोगासी थाटाची. कोंकणींतलो भारतीय नाटककार जावपाची आस बाळगुपी पुंडलिक नायक हांची शैली ही आवेश घेवन आयल्ली, नाट्यपूर्ण साच्यातली.गजानन जोगाची भाशाशैली म्हाका तांच्या एकेच 'रुद्र' कथेंत दिसली, जाल्यार दामोदर मावजोच्या शैलीत एक सेल्समन लिपिल्लो आसा अशें सतत जाणवत रावलें. हे सगले जाले कोंकणींतले प्रस्थापित लेखक. पूण बऱ्याच वर्सा आदी हांवें एक कोंकणी कथा वाचिल्ली ताची याद जाता. 'दत्ता आनी गुलाबी तिनसांज' ह्या नांवाची. कथेचे लेखक आशिल्ले कोणतरी अनिल पै. ह्या अनिल पैचें आज कोंकणींत कथाकार वा साहित्यकार म्हणून खंयच नाव दिसना. वा तांची दुसरी एखादी कथाय हांवें उपरांत वाचुंक ना. तरीय तेन्ना ही कथा म्हाका खुपूच आवडिल्ली. तन्न्या वयांतलें एकमेकांविशीचें आकर्षण हो हे कथेचो विशय. हांवूय तेन्ना त्याच वयाचो आशिल्लो म्हूण म्हाका ती कथा अदीक आवडल्या आसतली. तशें पळोवंक गेल्यार, ह्याच विशयावेल्यो अनेक कथा तेदेवेळार हांवें वाचिल्ल्यो. पूण हीच कथा आनी हे कथेंत व्यक्त जाल्ली मोगाची हूरहूर आजमेरेन तकलेंत कित्याक उरली? कथेंतल्या हळूवार भाशा शैलीखातीर? ताडुन पळोवपाक ही कथा मेळ्ळ्यार परत एकदा वाचची पडटली. पूण आतां इतल्या वर्सांनी जाणटेपणांत हे कथेकडे म्हजी नाळ जुळटली काय ना, तेवूय सांगूक नजो.

१७.

आमी वाचन करता म्हळ्यार कितें करता, तर बरोवप्याच्या अणभवांकडे आपली नाळ जुळवपाचो यत्न करता. पूण दर वेळा ही नाळ जुळटाच अशी ना. ते खातीरुच कांय लेखन आमकां आवडटा कांय आवडना.

१८.

वाचन संस्कृती दर भाशेगणिक बदलता अशें म्हाका दिसता. मराठी वाचन संस्कृती, इंग्लिश वाचन संस्कृती, कोंकणी वाचन संस्कृती अशे तिचे विगंड-विगंड भाग आसूं येतात. कारण वाचन संस्कृती ही त्या-त्या भाशीक परंपरेक बांदिल्ली आसता.

१९.

कोंकणीची वाचन संस्कृती केन्नाच्यान सुरू जाली?

२०.

आदलें चडशें साहित्य मौखिक रुपांत आशिल्लें. एका पिळगेकडल्यान फुडले पिळगेकडे तें मौखिक रुपांतच पावतालें. प्रिंटिंगचो सोद लागले उपरांतूच ही वाचन संस्कृती तयार जाली.

२१.

Some stories stay with us forever. कांय वर्सां आदीं 'इलेस्ट्रेटेड विकली'त हांवें एक ल्हानशी कथा वाचिल्ली. कथा मूळ जर्मन भाशेंतली, ती कोणेतरी इंग्लिशीत अणकारीत केल्ली. कथा अशी: एक जाणटो रिटायर्ड पेन्शनर आसता. तो आपल्या रुटीन जीणेक सामको वाजेल्लो आसता. आपले जीणेंत कितेतरी नवें घडचें अशें ताका दिसता. एक दिस ताचें मन बंड करून उठ्ठा. तो म्हणटा, ह्या मेजाक हांवें मेज कित्याखातीर म्हणचें? ह्या हातांक हात कित्याखातीर म्हणचें? आनी तो आपली उलोवपाची भास बदलपाचो यत्न करता. तो म्हणटा, आजच्यान ह्या मेजाक हांव मेज म्हणचो ना. ताका सुणो हें नांव दितलो. सत्रेक पेन म्हणटलो. दोळ्यांक कान म्हणटलो, कानाक पांय म्हणटलो. अशी तो उतरांच्या अर्थाची वळेरीच बदलता. आनी ते प्रमाण तो भास उलोवंक लागता. हाचो परिणाम असो जाता की हो कितें उलयता तें लोकांक कळना जाता आनी लोक कितें उलयता तें हाका कळना जाता. आनी ह्या कम्युनिकेशन गॅप खातीर तो सामको एकलो-एकमुळो जाता आनी तातूंतच ताका एकमुळें मर्ण येता. - पंचेचाळीस वर्सां पयली वाचिल्ली ही क्लासिक कथा, अजून हांव विसरुंक ना. क्लासिकाक स्थलकालाचें बंधन आसना हेच खरें.

२२.

दोस्तोस्कीची 'क्राईम अँड पनिशमेंट' ही कादंबरी तशें पळोवपाक गेल्यार एक क्राईम थ्रिलर, तरीय ही कादंबरी क्लासिक कित्याक थरली? अगाथा ख्रिस्ती, काशीकर, गुरुनाथ नाईक बी क्लासिक कित्याक थरुंक ना? हाचें सादें उत्तर दिवचें जाल्यार, सामान्य लेखकाचो फोकस हो फकत क्राईमच्या घडणूकीचेर आसता, उलट दोस्तोस्की सारक्या श्रेष्ठ लेखकाचो फोकस हो क्रायमांतल्यान उप्राशिल्ल्या नैतिक पेचाचेर आसता.

२३.

कम्युनिस्ट विचारांनीं हांव तरणेपणांत भारावल्लो. पूण अशी दोन-तीन पुस्तकां आसात की ती वाचले उपरांत तुमची कम्युनिझमची नशा आपलेआप देंवता. जॉर्ज ऑरवेल हांच्यो 'एनिमल फार्म', '१९८४' सारक्यो कादंबऱ्यो वा आर्थर कोस्लरची 'डार्कनेस एट नून' वाचल्या उपरांत म्हजी तरी ही नशा देंवली. अस्सल कलाकृतीची ताकद आसता ती हीच. इतलेंय जावन आज हांव तरण्या कन्हैय्या कुमाराचें कम्युनिझमचेर भाशण आयकता तेन्ना ताच्या विचारानी हांव सामको प्रभावीत जाता. खंयचोच ईझम थिओरेटिकली वायट नासता पूण प्रॅक्टिकली ताका विकृत रुप मेळूं येता.

२४.

वाचकांचे जशे अनेक प्रकार आसतात तशेंच वाचनूय अनेक प्रकारचें आसता.

२५.

बी.पी. रिडींग हें वाचन संस्कृतीत येवं येता? म्हजे मतान येवं येता. कारण आजच्या युगात बी.पी., डायबेटीस, कॉलेस्ट्रॉल बी गजालींच्या आकड्यांचें रिडींग कॉमन जाला. ते नदरेन म्हजो एक अणभव हांगा सांगूक सोदता. म्हजो बी.पी. हाय आसा ही गजाल म्हाका खबरुच नाशिल्ली. कारण त्या हाय बी.पी.चो म्हाका कसलोच त्रास जायनाशिल्लो. पूण एकदा दोतोरागेर थंडी जाल्ली म्हूण गेल्लो.थंय दोतोरान सहज म्हूण म्हजो बी.पी. चेक केलो तर तो वाडील्लो मेळ्ळो. दोतोरान तेन्ना म्हाका

गुळयो बीन बरोवन दिल्यो. त्यो हांवें कांय दिस घेतल्यो आनी उपरांत बंद केल्यो. बी.पी.चो खरो त्रास म्हाका जाणवलो तो म्हजें दोनूय दोळ्यांचें ऑपरेशन केल्या उपरांत. एक दिस अस्वस्थशें दिसुंक लागलें म्हणून दोतोरागेर वचून हांवें म्हजो बी.पी. चेक केलो तर तो बरोच हाय मेळ्ळो. २०४ / १०५. दोतोरान-प्रेसांवच्यो गुळयो बरोवन दिल्यो. सामको हाय डोस. त्या गुळ्यांनीं प्रेसांव कंट्रोलात आयले, पूण फ्राकेत सॉलिड वाडली. परत-परत दोतोरागेर वचप नाका म्हूण हांवें एक डिजिटल बी.पी. मशीन विकत घेतलें आनी सद्दा घराकडेच बी.पी. च्या आकड्यांचे वाचन करपाक सुरवात केली. गुळयो चालू आसल्यो तरी मर्दी-मर्दी बी.पी.चें रीडिंग वाडटालें, तर केन्नाय मॉडरेट येतालें. मर्दी दोतोरागेर राउंड मारलो तर ताणी गुळयो बदलून आनींक स्ट्रॉंग डोस दिलो. कॉलेस्ट्रॉल चेक करपाक लायलो. कॉलेस्ट्रॉल आनी ट्रायगलीसिराइड हाय आशिल्लो. म्हण्टगूच परत बी.पी.च्या गुळया वांगडा स्टॅटीनच्यो गुळयो घेवपाक लागलो. फ्राकेज आनींक वाडली. हांवें मनांत म्हळ्ळें, हें चल्लां तें बरोबर न्हंय. दोतोराचेर विस्वासून रावप सारकें न्हंय. हांवें इंटरनेटचेर बी.पी., कॉलेस्ट्रॉल, ट्रायगलीसिराइड हांचेविशीची म्हायती लागी करपाक सुरवात केली. शेकड्यांनी विडीओ पळयले. आनी एक दिस म्हाका डॉ. विश्वरुप रॉय चौधरीचो 'डी.आय. पी.डाएट' हो विडिओ पळोवपाक मेळ्ळो. आनी कितें सांगू, थंयच्यान म्हजें अख्खें विश्वूच बदललें. डी.आय.पी. डाएट हो रॉ प्लांट बेज्ड डाएट. खरें म्हळ्यार ही एक लाईफ स्टाईल. कसलेच एलोपॅथिक वखद, गुळयो घेनासतना फकत डाएटाचेर बी.पी., कॉलेस्ट्रॉल, डायबेटीस बी रिव्हर्स करपी. हाचो अणभव हांवें स्वता घेतला. खरें म्हळ्यार हो डाएट हांव सध्या फकत पन्नास टक्केच फॉलो करता तरीय म्हाका कसलीच वखदां, गुळयो घेवपाची आता गरज पडना. फकत ह्या डाएटचेर म्हजो बी.पी., कॉलेस्ट्रॉल सामको नॉर्मल उरता.साठ टक्के कच्च्या भाज्यांचे सालाद,चाळीस टक्के शिजयल्लें अन्न, वेगवेगळी सिजनल फळां, बियो, डाळी, सनलाईट आनी किमान एक वर चलप ही म्हजी सध्याची लाईफ स्टाईल. हातूंत डेअरी प्रॉडक्ट, तेल, तूप आनी नॉनव्हेज गजाली टाळपाक जाय. साखर, मीठ तर सामकें कमी.पाचव्याचार सैमाकडल्यान जें डायरेक्टली मेळटा तें जास्तीत जास्त खावप आनी मॅन-मेड खाणें सामकें कमी करप. म्हज्या अणभवावेल्यान हांव सांगुंक शकता की नेचरोपॅथ ही एक रोगमुक्त दवरपी लाईफ स्टाईल, म्हणुनूच दोतोरांच्या वखदांचें प्रिस्क्रिप्शन वाचपाचें हांवें सध्या कंपलीट बंद केलां. म्हजे वाचन संस्कृतीत तें बसना.

२६.

मनशाचेर जाल्ल्या अन्यायाचेर वाचा फोडपी बरेच लोक आसात, पूण मोन्या प्राण्यांचेर जेन्ना अन्याय जाता तेन्ना हेच लोक वग्गी बसतात. म्हळ्यार जीव फकत मनशांचो, प्राण्यांक जीवूच ना अशें तरेन ते वागतात. ह्या जगात मनशांक जितलो जियोपाचो हक्क आसा तितलोच तो प्राण्यांकय आसा हें आमी सोयिस्कर विसरतात. सेल्फ-डिफेन्स खातीर एखाद्या प्राण्याक मनीस मारता तें समजून घेव येता. पूण खावपा खातीर एखाद्या प्राण्याचो जीव घेवप हें मनीसपणाचें लक्षण आसा अशें म्हाका दिसना. हांव आदीपसून शाकाहाराचो पुरस्कर्तो पूण आता हांव पूर्ण विगन जावपाक सोदता. विगन म्हळ्यार फकत डाएट न्हय, तर विगन जावप म्हळ्यार प्राण्यांविशी मोग, आदर बाळगप. तांच्या जियोपाच्या, जीणेविशींच्या हक्कांक तेंको, पाळो दिवप. सध्या मनीस वाचता-वाचता हांव बाकी प्राण्यांकय वाचपाक लागला. पूण हें वाचन तर म्हजे ल्हानपणासुनूच चालू आशिल्लें. आता ताका फकत एक मॅच्युरिटी आयल्या इतलेच.

२७.

दोळ्यांतले भाव वाचपाक म्हाका आवडटात. मनशाच्या आनी जनावरांच्याय. मनशाकुय जनावरांचे दोळे चड उलयतात. गायचे दोळे तुमी पळयल्यात? अख्खें संवसारातलें कारुण्य गायच्या दोळ्यांत एकवटलां अशें दिसता. मांजराचे दोळे पळयात, काळखांत कितले गूढ दिसतात. नातूकाचे दोळे तर सामके भेदक, काळजाक बुराक घालपी. सोरपाच्या दोळ्यांक दोळे भिडावप ही मोटी कुस्ताद गजाल. पोपट तर दोळ्यानीच उलयता अशें दिसता. दोळ्यांतले भाव वाचप म्हळ्यार एक प्रकारची कविताच वाचप.

२८.

म्हज्या बापायन एका भविष्यवाल्याकडल्यान म्हजी जल्मपत्रिका तयार केल्ली. ती अजून म्हजेकडे आसा. एका वेळार ती काडून परत-परत वाचप हो म्हजो एक टाईमपास आशिल्लो. ते पत्रिकेत भविष्य आशिल्लें की हांव शेतकरी जातलो आनी म्हाका दोन बायल्यो आसतल्यो. पूण प्रत्यक्षात हांव जालो बँकर, आनी बँकर म्हणुनूच रिटायर जालो. आता बायलेचें म्हळ्यार, अजुन मेरेन म्हाका एकुच बायल आसा. म्हजे पयले बायलेक हांव अदी-मदी विचारता, की म्हजी दुसरी बायल केन्ना येतली गो ?

२९.

दोळ्यांखातीर सध्या म्हजें पुस्तक वाचन कमी जाला, तरी पूण हें असलें ऑड बिनपुस्तकी वाचन चालूच आसा.

३०.

शॉपेनहार म्हणटा: After your death you will be what you were before your birth. सध्या हांव मर्ण वाचपाचो यत्न करता. साठी वलांडली की हें असलें वाचन महत्वाचें थरता. मेल्ली नात्यातली मनशा, मेल्ले सगले आमीग ह्या वळणाचेर आमकां तीव्रतेन उगडास जायत रावतात. हांव जाणां, हें आयुष्य म्हळ्यार 'एक धुंद से आना है और एक धुंद मे जाना है', तरी हांव गेल्या उपरांतूय हो जीणेचो प्रवाह चालूच आसतलो हें एक सुंदर सत. फ्रेंच लेखक जॉं पॉल सार्त्र हांचें एक सुंदर वाक्य हांवें वाचिल्लें ताची हांगा याद जाता: Death is a continuation of my life without me. आनींक कितें बरोव, आनींक कितें वाचूं? सटयेन जें कितें बरयलां तें वाचपाचो प्रयत्न करप म्हळ्यारुच ही जीण. आनी त्या वाचपाच्या प्रयत्नांक पूर्णविराम मेळप म्हळ्यारुच मर्ण.

संपर्क: 9049814854



# वाचन संस्कृतींत लेखक – वाचक संबंद

डॉ. विद्या प्रभुदेसाय



शिक्षणाच्या प्रसारा वांगडाच आमच्या देशांत पाश्चात्यां कडल्यान 'वाचन' वा 'वाचन प्रवृत्ती' आयली. ताचे पयलीं आमचे परंपरेंत वाचना परस 'पठण' आनी 'श्रवण' ह्योच प्रवृत्ती आशिल्ल्यो. 'वाचन' ह्या उतरांत 'वाचप' हो मूळ धातू आसा. ह्या धातू पासून 'वाचन' हें क्रियादर्शक उतर तयार जाता. हेर उतरां भशेन ह्या उतरान फकत क्रियेचोच बोध जायना तर वांगडाच हें उतर एक संस्कृतीक संदर्भ घेवन येता अशें म्हणूं येता. कारण 'वाचन' ह्या उतरांतल्यान वाचपाचे क्रिये वांगडाच आर्विल्ले जिणेंतली वाचपाची संवय, जावं प्रवृत्ती सूचीत जाता. गोंयांत जरी धर्म प्रसाराखातीर मुद्रण कला वा छापखानो पयलीं आयलो तरी देशाच्या हेर भागांत जेन्ना शिक्षणाचीं दारां उक्ती जालीं आनी ताका लागून अभ्यासक्रमा खातीर पुस्तकांची गरज मुखार आयली. तेन्ना मुद्रण कला आयली आनी हेर भाशांतलीं अणकारीत पुस्तकां छापून उजवाडांत येवंक लागलीं. मराठींत तर साहित्याच्या ह्या काळाक 'भाषांतर युग' म्हण वळखतात. शिक्षणाक लागून जाल्ली 'अक्षर वळख' शिक्षितांक मुखार वाचन क्रियेकडे घेवन गेली. अशे तरेन भारतांत आयिल्ली शिक्षण संस्कृती हळूहळू वाचन संस्कृतीच्या दिशेन विकसीत जाली. धर्मप्रसाराखातीर वा अभ्यासा खातीर छापिल्ल्या पुस्तकां वांगडाच मुखार लोकांची वाडटी वाचन प्रवृत्ती दोळ्यां मुखार दवरुन नेमान उजवाडपांत येवपी नेमाळीं सुरु जालीं आनी हातूंतल्यानूच एक लेखक आनी वाचक गट तयार जालो. अर्थांत सहजपणान ताजेवांगडाच अशा ह्या एका प्रवृत्तीच्या गटाची म्हण एक संस्कृती तयार जाली. एकंदरीत लेखन-वाचन संस्कृतीचो असो एक धावंतो नियाळ पळोवं येता.

एकुणूच वाचन संस्कृतींत वाचक आनी लेखक हांचो अन्योन्य संबंद आसता. वाचन संस्कृती जर निकोप आनी सरस जावपाक जाय आसत जाल्यार लेखन संस्कृतीकडे आडनदर करूं नजो. वाचकांची 'अभिरुची' वाडवप काय तांकां 'हीन रुची'च लावप ही सर्वस्वी लेखकाची जापसालदारकी आसता. काळ बदलता तशे आमचे विचार आनी आचार बदलतात. नवी पिळगी वाचिना असो सूर सगळेच आळयत आसले तरीय आयज 'ई- शिक्षित' जाल्लो नवे पिळगेंतलो वाचक मांडयेर लॅपटॉप आनी हातांत मोबायल घेवन कितें तरी वाचत आसता. म्हजे नदरेन म्हायती आनी तंत्रगिन्यानाच्या ह्या युगांत, अवगत आशिल्ल्या तंत्रगिन्यानाच्या आदारान नवी पिढी निश्चितच सहज घडपी वाचन करता. फकत पेपर, नेमाळीं आनी ललित साहित्याचीं पुस्तकां वाचपी तेच वाचक आनी हेर वाचप्यांक वाचपी म्हणप ना काय? तशें पळोवंक गेल्यार जगावयल्यो सगल्यो खबरी, तरातरांची म्हायती आनी मनोरंजन करपी सगलें जेन्ना तांकां एकाच हातांत एकाच वेळार मेळटा तेन्ना हीं भुरगीं पेपर वा पुस्तक हातांत घेवन किद्याक वाचतलीं? संस्कृतीक संक्रमणाच्या संदर्भात एक 'सुलभीकरणाचो सिद्धांत' आसा. ज्या ज्या पावंड्याचेर मनशाक कांय गजाली पयल्या परस सोंप्यो दिसल्यो ताचेंच आचरण ताणें केले. कालांतरान तेच आचार संस्कृतीक परिवर्तनाच्या नांवाचेर फुडें आयले. संस्कृतीक आचाराचें अशें परिवर्तन जालें तरी ताचो मूळ गाभो वा आत्मो नश्ट जावं ना. म्हाका दिसता होच सिद्धांत वाचन संस्कृतीकूय लागू जाता. पठण-श्रवण संस्कृतींतल्यान लेखन- वाचन संस्कृती जशी परिवर्तीत जाली तशींच आयज माहिती-तंत्रज्ञानाच्या आदारान तरातरांचीं ई प्रसार माध्यमा मुखार आयलीं. समाजांत आयज ई-वाचक आनी ई-लेखकांचो एक गट तयार जाल्लो दिसता. म्हाका दिसता हो वाचन संस्कृतीच्या संक्रमणाचो काळ आसा. नवे लेखक ह्या माध्यमांतल्यान बरोवपाक लागल्यात. ई वाचकांची संख्याय बरे तरेन वाडत आसा. आनी थोड्या तेंपान 'ई वाचनसंस्कृती' मुखार येतली हातूंत म्हाका तरी दुबाव दिसना. माध्यम कसलेंय आसूं, लेखक हो स्वांतसुखाय बरयता. अणभवांचें प्रगटीकरण हो लेखकाच्या लेखनाचो मूळ हेत आसता. To reach out ही लेखकाच्या लेखनाची मूळ प्रेरणा आसता... भवभूती ह्या संस्कृत नाटककारानूय उत्पत्स्यते कोष्पि मम समानधर्मा..... कालोष्ह्यं निरवधि विपुला च पृथ्वी अशें म्हणील्ले. काळ आनी पृथ्वी अनंत आसा केन्ना तरी म्हज्या लेखनाची तोखणाय करपी वा लेखन आवडपी समानधर्मा रसीक निर्माण जातलो अशें ताणें म्हणिल्लें. अर्थात तो काळ वेगळो आशिल्लो आनी म्हणपीय भवभूती आशिल्लो हेंय तितलेंच खरें. भवभूतीचो हो विचार जरी वयर वयर एकांगी दिसलो तरी तातूंतल्यान ताका आत्मानुभवाच्या सच्चेपणाचो विश्वास आशिल्लो हें समजता. ताका लागुनूच भवभूती फाटल्यान ताचीं सगळींच नाटकां खूब गाजलीं. लेखक आत्माविष्कार आनी स्वांतसुखाय बरयता ही गजाल जितली खरी आसा तितलीच ताणें बरयल्लें वाचून वाचपीयबी आत्माविष्कार आनी पुन:प्रत्ययाचो आनंद घेता ही गजाल नदरेआड करुं नजो. संत ज्ञानेश्वरान तर भगवद्गीतेचेर प्रवचनां दितना श्रोत्यांक इतलें व्हडपण दिलां की, 'वक्ता तो वक्ताचि नोहे श्रोतेनविण' अशां उतरांनी वा 'वक्तृत्वा अवधानाचा चारा' अशें म्हणून श्रोत्यांचें अवधान हेंच वक्त्याक उलोवपाक शक्त दिता अशें सांगलां. अर्थात तो काळ जावं ती परंपरा, वयर सांगिल्ले भशेन प्रवचन आनी श्रवण-पठणाची आशिल्ली. आयज संत ज्ञानेश्वरांचे विचार मुखार दवरून लेखक आनी वाचकांचो विचार केल्यार वाचकां बगर लेखक खऱ्या अर्थान लेखक जावंक शकना, अशें म्हणूं येता. अर्विल्ली विचारप्रणाली ही साहित्यकार हो भौशीक घडामोडींक गती दिवपी भौसाचोच एक म्हत्वाचो घटक, अशें मानता. ताचें लेखन हो भौसाचो हारसो आसता (Literature is the mirror of the society) अशेंय म्हणटात. एका अर्थान 'जे न देखे रवी, वह देखे कवी' हे उक्ती प्रमाण तो भौसाक

जीवनदृष्टी दिवपी मार्गदर्शकूय आसता म्हणूनूच लेखकान भौशीक जिणे कडेन आपल्याक बांदून घेवंक जाय. वाचपी हो ह्याच भौसाचो एक भाग आशिल्ल्यान, तांचीय वाचपी म्हण आशिल्ली प्रतिक्रिया तितलीच मोलाची आसता. पूण ही प्रतिक्रिया मर्मज्ञ रसिकाची आसा काय ना हें पळोवप गरजेचें आसा. यैन्न केन प्रकारेण प्रसिद्धीच्या झोतांत येवपाखातीर हीन अभिरुचीच्या लोकप्रियतेक (Cheap popularity) जेल दिवप समा न्हय. आयज समाज माध्यमांचेर वा हेर माध्यमांचेर रसिकांचो प्रतिसाद कितलो आसा, हें पळोवन 'मागणी तशी पुरवण' (Supply as per demand) ह्या तत्वाप्रमाण लेखन दिवपांत लेखक स्वताक धन्य मानतात आनी साहित्याच्या मळार एक दुश्टचक्र सुरु जाता अशेंशें चित्र दिसता. वास्तविक सकस लेखनाखातीर वाचप्यांचो प्रतिसाद जितलो मोलादीक आसता तितलीच आपली भौशीक लागणूक दोळ्यां मुखार दवरुन लेखकान अणभवांचें प्रगटीकरण करप गरजेचें आसता. साहित्यांत अणभवाचें सच्चेपण जाय तितलेंच तें शिव म्हळ्यार मंगलदायक आनी सौंदर्यपूर्ण आसपाक जाय. म्हणजेच एका अर्थान वाचन संस्कृतीचें संवर्धन करपांत लेखकाचो वांटो चड आसता अशें म्हटल्यार अतिताय जावं नजो. ह्या संस्कृतीक प्रक्रियेंत लेखकाची जापसालदारकी चड आसता अशें म्हाका दिसता. मम्मटान काव्यनिर्मिती कशी जाता हें सांगतना 'शक्ती, निपुणता, लोकशास्त्र काव्याद्यवेक्षणात काव्यज्ञ शिक्षयाभ्यास..... अशी 'कारीका' सांगल्या. आयज जायते खेपे शक्ती- निपुणता आसली तरी लोकशास्त्र तशेंच हेर काव्याचें वाचन आनी चड करुन काव्यज्ञाकडे केल्ली चर्चा खुबूच कमी दिसता. केन्ना केन्ना तर ही चर्चा 'अहो रुपम अहो ध्वनि'च्याच पोताची आसता. अर्थात प्रत्येक गजालीक आडवाद आसता तसो हाकाय आसा ही गजाल म्हाका मुद्दाम सांगन दिसता... केन्ना केन्ना मात अणभवाच्या प्रगटी करणाखातीर, मांडणी खातीर, लेखनाची गुणात्मकता वाडोवपा खातीर जाय आशिल्ली मशागत कमी पडटा अशेंय दिसता. अवस्थेचें उन्नयन करता ती संस्कृती. वाचन वा लेखन संस्कृतीचो विचार करतना अशें उन्नयन जावपा खातीर लेखकान लेखनाची गुणात्मकता कशी वाडटली हाचेर नदर दवरुंक जाय. एक फावट अमृताची गोडी कळिल्लो मनीस वीख पियेवंक वचचो ना. वाचप्यांक अशें लेखनामृत पाजून वाचन संस्कृतायेचें संवर्धन करतनाच लेखन संस्कृतीचीय अभिवृद्धी करप गरजेचें आसा. वाचन संस्कृती आनी लेखन संस्कृती ह्यो दोनूय एकाच नाण्याच्यो दोन बाजू आसात अशें आसलें तरी ही अभिरुचिसंपन्न संस्कृती संवर्धीत करपाची पूर्ण जापसालदारकी लेखकाची आसा, हातूंत दुबाव आसूंक फावना. वाचनसंस्कृती ही एकूण समाजाच्या संस्कृतीचें एक आंग आसा. आनी ताका लागून एकुणूच संस्कृतीच्या संगोपन, संवर्धनात ह्या लेखन-वाचन संस्कृतीचो खूब मोटो वांटो आसा. लेखक जेन्ना वाचप्यांक 'कितें जाय' हाचे परस वाचप्यांक 'कितें बरें', 'कितें सुलभ' हें मतींत दवरुन बरयतलो तेन्नाच तो वाचन संस्कृतीक हातभार लावंक शकतलो.

संपर्क : 9422061000





# कवी आनी कविता

**परेश नरेंद्र कामत**

॥ १ ॥

मानकुराद आंबो चोखून चोखून खावचो तशी कविता रूचीन वाचपाक जाय.

एकाद्रो कविता संग्रह हातांत पडलो की मानकुराद आंब्याचें पांटेंच कोणेंय म्हजे सामकार दवरचें तशें म्हाका जाता. हांव म्हजे संवये प्रमाण पयलीं संग्रहाचीं पानां चाळून पळेतां. मागीर संग्रहाचें खंयचेंय पान उगडून त्या पाना वयली कविता वाचतां. चडशी निमाण्या पाना वयली कविता हांव पयलीं वाचतां. कवीक कविता बरोवपाक जसो मूड लागता तसोच वाचकाक लेगीत कविता वाचपाक मूड जाय पड्टा.

कांय कविता परत परत वाचच्यो पडटात. त्यो एका वाचनान कळटाच अशें ना. कवी आरती प्रभून आपले एके कवितेंत म्हळां: हवें झाड घ्यावा / लपेटून वक्षीं / मिळेना कवेला चहुबाजूनी. अशे तरेच्या जातकुळीची कविता समजुपाक वाचकाक वैचारीक, चिंतनशील बैठक जाय पड्टा. सगळ्योच कविता एकेच तरेन वाचून त्यो समजतल्यो अशेंय ना. वाचकाकूय कवितेक नव्यान भिडपाची, भोगपाची तांक आपले भितर केळोवची पडटली. कविता समजुपाच्यो नव्यो वाटो सोदच्यो पड्टल्यो.

कविता परत परत वाचप ही लेगीत कवितेक सर्वांगान भिडपाची कलाच.

*****

॥ २ ॥

कवितेचें मूळ कितलें खोल रूतिल्लें आसता हाचो अदमास लेगीत एक एकदां कविता बरोवपी कवीक लागना. सुप्त मनांत अशो असंख्य गजाली दडिल्ल्यो आसतात त्यो कशो आनी केन्ना, कसलो आकार आनी रूप घेवन भायर येत समजना. कवी कविता बरयतना त्यो सगळ्यो गजाली वा प्रतिमा संदिग्ध पातळेचेरूच आसतात.

खंयची कविता कशी सुचली हो प्रस्न लेगीत गहन आसा. अमूक कविता सुचपाक कारण कितें जालें हें लेगीत कवीक सांगपाक तशें कठीणूच जाता. पूण एकाद्री कविता आवडल्या उपरांत कवितेच्या रसिकाक ते कवितेच्या निर्मिती प्रक्रिये संबंदान जाणून घेवपाची उमळशीक लागता हेंवूय तितलेंच खरें.

'रंगबोली' ह्या संग्रहांत 'तीं दोन शेवणीं' ह्या नांवाची एक कविता आसा. ती म्हाका कशी सुचली? झाड, शेवणीं, मनशां मदले परस्पर संबंद हाचे विशींचे म्हजें कुतूहल आनी ताचो निमाणें मळबा कडेन जोडिल्लो व्यापक संबंद हें ढोबळ कारण ताचे फाटल्यान आसूं येता. एकाद्र्या शेवण्याच्या जोड्यान घट्ट विणकाम करून घोंटेर बांदचो तशे तरेचें स्वरूप हे कवितेक आयलां. कोणतरी कोणाक पळेता तेंवूय एकामेकांच्या नकळत- हें आशयसूत्र आशिल्लो दृश्यात्मक रूपबंध हे कवितेन घेतला. हांगा म्हत्व आसा तें पळोवपाचे क्रियेक आनी हे पळोवपाचे क्रियेक जोडून 'नकळत' हें उतर लेगीत कवितेंत येता आनी तें उतरूच निमाणें प्रतिमा जावन कवितेंत संदिग्धता निर्माण करता.

भास-आभासाचे पातळेर वावुरपी ही कविता सुचपाक घडये, 'नकळत' हें उतरूच कारण थारलां अशें म्हाका दिसता आनी ह्या एकाच उतरान कवितेन कलारूप घेतलां.

*****

॥३॥

खंयच्याय नवोदीत कवीन आपल्या आदल्या पिळगेंतल्या कवींनी कितें बरयलां तें एकदां नदरे सकयल घालपाक जाय. आपले भाशेंतली कविता कितली संपन्न आसा, समृद्ध आसा, ती खंयच्या वाटांनी आनी दिकांनी फुलारल्या हाची जाणविकाय ताका जातली. ही जाणविकाय एकदां जाली म्हणटकीच आपले अभिव्यक्तीच्या वेगळेपणाचो कवी गंभीरपणान सोद घेवंक शकतलो. ह्या सोदांतल्यानूच त्या कवीक आपले कवितेक जाय आशिल्ली सर्जनशील अभिव्यक्तीची नाट सापडूंक शकता.

प्रत्येक भाशेची म्हणून एक काव्य परंपरा आसता आनी ती निर्माण जावपाक त्या त्या भाशेंतल्या कवींनी आपलें मोलाचें योगदान दिल्लें आसता. ती काव्य परंपरा समजून घेतले बगर खंयच्याच नव्या कवीक कवितेच्या मळार फुडें पावल घालप शक्य ना.

भारंभार कविता बरोवन त्यो दिसाळ्यांनी वा नेमाळ्यांनी उजवाडाक हाडप, फेसबूक सारक्या सोशल मिडीयाचे भकीक पडून आंगठे मेळोवप, संग्रहाचेर संग्रह छापून तांचे व्हडा दबाज्यान प्रकाशन बी करून ते संग्रह सरकारी संस्थांच्या गळ्यांत बांदप, हे गजाली परस- आपल्या अणभवां कडेन प्रमाणीक रावन त्यो शद्ब-संवेदना कवितेंतल्यान मांडप ही गजाल खंयच्याय कवीचे नदरेन चड म्हत्वाची आसता.

पोक्या, बेगडी आनी बाबत कवितेच्या संबंदान तर संत कवी तुकारामान सांगुनूच दवरलां: 'चिंरगुटें घालुनी / वाढवीले पोट / गऱ्हवार बोभाट / जनामध्यें.'

अणभव मनांत खोल मेरेन जिरलो, मुरलो की तो ताकदीन कवितेंत येता. त्या अणभवाक मनांत आकार घेवपाक थोडो वेळ दिवचो पड्टा. तितलें पासियेंस कवी कडेन जायच!

*****

॥ ४ ॥

कविता बरोवप आनी कवितेचेर बरोवप ह्यो दोन वेगळ्यो वेगळ्यो गजाली आसात. दोनूय गजाली सर्जनशील. पूण कविता बरोवपी सगळ्याच कवींक कवितेचेर बरोवंक येतलेंच अशें ना. ताका वेगळो व्यासंग लागता. वेगळी बैठक लागता.

कविता बरोवन जाली की कवी एका घुस्मटमारांतल्यान मेकळो जाता. कवी खातीर तें उतरांचो आदार घेवन केल्लें विरेचन आसता. कविता बरोवन जाली की कवीचें कार्य सोंपता. कवितेचेर बरोवप हें ते उपरांत सुरू जाता. कवितेचेर बरोवन स्वता कवी आपले काव्य निर्मितेचो सोद घेवंक पळेता. कविता सुचपा फाटल्या अनेक कारणांचो थाव घेवंक पळेता.

'कविता तशी समजावन सांगपाक येना. एकाद्री अनवळखी प्रतिमा दोळ्यां मुखार झळकली, मनांत कितेंतरी चाळवलेल्या सारकें जालें, तरंग उठले, तर ते कवितेचें सार्थक जालें अशें समजुचें' अशें नामनेचे मराठी कवी पु शि रेगे उत्तम कविते विशीं आपलें मत मांड्टात तें म्हाका पुराय पट्टा.

म्हजे नदरेन, खंयचीय उत्कृश्ट कविता केन्ना खंयच्याच प्रस्नाचें उत्तर दिना. तिच्या अंतरंगांत देंवतकीच ती प्रस्नांतल्यान आनीक नवे प्रस्न वाचकाच्या मनांत निर्माण करता.

*****

।।५।।

कविते सारको सोंपो दुसरो खंयचोच साहित्य प्रकार ना. देखुनूच प्रत्येक जाण आपले जिणेंत केन्ना ना केन्नातरी कविता बरोवपाचो प्रयत्न करताच. कवी जावपाची एक सुप्त इत्सा दरेकल्याच्या मनांत खंयतरी दडून आसता. शिघ्रकवित्व हें मुळांतूच आमच्या आंगांत जल्मजात आसता. ट क ट लावन आनी यमकां जुळोवन कोणूय सहज कविता बरोवंक शकता. तातूंत कसलीय नवीदाद आसा अशें म्हाका दिसना.

कविता बरोवप हें जरी सामकें सोंपें आसलें तरी, उत्कृश्ट कविता बरोवप आनी ताच्याय मुखार वचून स्वताची, स्वतंत्र साममुद्रा आशिल्ली कविता बरोवप आनी काव्य परंपरेंत मोलाची भर घालप ही कितली कठीण गजाल हें मागीर कांय वर्सांनी कळपाक लागता. तें समजुपाक-नुस्तें जशें उदकांत बुडून रावता तशेंच कवीन जिणभर कवितेंत बुडून रावचें पड्टा.

मोग हो कवींचो सामको आवडीचो विशय. मोगान पडप ही तशी सभावीक गजाल. मोगान पडले उपरांत कविता बी बरोवप हिवूय सभावीक गजाल. चड करून मोगांत पडलो की मोग्यां भितर कविता करपाची उर्मी येता. मागीर एकार एक मोगाच्यो कविता सुचत रावतात. कांय जाणांचो मोग सफल जाता तर कांय जाणांचो प्रेमभंग जाता. प्रेमभंग जाले उपरांत कांय जाण कविता करपाचें सोडुनूय दितात. जांचो मोग फळादीक जालो ते खावन-जेवन सुखी जातात.

मोगाच्यो कविता संवसारभरचे सगळेच कवी बरयतात. पूण खरी, अस्सल कविता कवीक सुचता ती ताचो प्रेमभंग जाले उपरांतूच.

*****

।।६।।

कोंकणीतल्या साहित्याची प्रखर समिक्षा जायना अशें कांय लेखक, कवी शीण काड्टात. कोंकणीत जी समिक्षा बरोवन जाता ती आस्वादनात्मक स्वरूपाची. एकाद्रो एस् डी तेंडुलकारा सारको समिक्षक, दत्ता नायक सारको रसीक वाचपी मुल्यमापनात्मक समिक्षा बरयता. आतां मुल्यमापनात्मक समिक्षा म्हणचे कितें तें पयलीं समजून घेवचें पड्टलें. लेखकाच्या साहित्य-कृतींतले गूण-दोश दाखोवन, त्या साहित्याची तांक दाखोवन, त्या लेखका मुखार व्हड आव्हान उबें करप ही मुल्यमापनात्मक समिक्षेची खरी मोख. कवी, लेखका कडेन विवेकनिश्ट नदर आसले बगर असली समिक्षा पचोवप कठीणूच.

प्रत्येक लेखकाक समिक्षकांनी आपल्या साहित्याची तोखणाय करची अशें दिसता. पूण तातूंतले दोश दाखयतकीच ताका समिक्षकाची भिरभिरी मारता. साहित्य-कृतींतले दोश दाखयले बगर मुल्यमापनात्मक समिक्षा फुडेंच वच्ची ना. म्हणून आस्वादनात्मक समिक्षा हीच खरी समिक्षा असो कोंकणींतल्या बऱ्याच लेखकांचो गैरसमज जाला.

चॅरिटेबल क्रिटीसिझम म्हणुनूय एक समिक्षा प्रकार आसा. चॅरिटेबल क्रिटीसिझमांत साहित्य-कृतीचें विश्लेषण तर जायच ना. समिक्षक फकत लेखकांक, कवींक म्होंवांत बुडोवन काड्टा. जाय

*(पान २३ चेर)*



# कविते विशीं

माधव बोरकार



१

१७-०५-२१

गुरुनाथ सामंत हो मराठींतलो एक म्हत्वाचो कवी. ताणें खूप कविता बरोवंक ना. आज मेरेन, तांचे 'गुरुचरित्र' आनी 'प्लीज' हे दोन कविता संग्रह उजवाडा आयल्यात. 'प्लीज' ह्या कविता संग्रहांत ते म्हण्टात, 'माझ्या या कवितांवर,

'मॅन्यूफॅक्चरींग डेट'
मी टाकू शकेन.
'एक्सपायरी डेट'
तुम्ही टाकायची आहे.

ह्यो वळी वयले वयर वाचल्यार साद्यो दिसतात. पूण बारकायेन वाचल्यार त्यो सबंद साहित्य व्यवहाराविशीं विचार करपाक लायतात. ज्ञानेश्वर, तुकाराम, दांते, शेक्सपिअर हांच्यो साहित्यकृती आमी आजूय वाचतात आनी तांचो मनापासून आस्वाद घेतात. तांचे वेगळे वेगळे अर्थ लायतात. कबीर आमकां निखळ तत्वगिन्यान सांगिना तर कवितेच्या आकृतीबंधाकडेन आमचें लक्ष ओडून घेता. तो वापरता त्यो प्रतिमा वा तिची अभिव्यक्ती एकविसाव्या शेकड्यांतले कवितेपासून पयस व्हरना. वा 'अणुरेणुया थोकडा/तुका आकाशा एव्हडा' सारकेली अणभवाची व्याप्ती कवितेक आर्विल्ले कवितेचो चेरो दिता. शेक्सपिअरा सबंदान नवें कितें सांगपाचें उल्लां अशें म्हणपाक मेळना. ताणें सगळो अवकाश आपले वेंगेंत घेतला. तरी आसतना आजूय ताच्या नाटकांचेर नवीं नवीं भाश्यां नवे समिक्षक बरयत आसात. हालींच हेराल्ड ब्लुम ह्या समिक्षकान क्लिओपात्र हें एकल पात्र घेवन ताची विस्कटावणी केल्या. कांय बाबतींत शेक्सपिअर भाग्यवान. ताच्या साहित्याचेर असो अभ्यास आजूय जायत आसा आनी तो असो स्मरणांत उरिल्ल्यान ताका मरण ना अशें म्हणूं येता.

आमचे कडेन अश्यो कांय देखी आसात. महाकवी कालिदास आनी भवभूति हे दोगूय प्रतिभावंत. पूण आज एकसारको उल्लेख जाता तो कालिदासाचो. भवभूतीक लोक विसरले. खासा भवभूतिक हाची जाणीव आशिल्ली. तें ताणे आपल्या एका श्लोकांत व्यक्त केलां. थोडे भितर ताचो सारांश असो: ''काळाक शीममेर नासता आनी तशेंच ही पृथ्वी व्हडली आसा. हे पृथ्वीचे फाटीर खंयचेय एका काळांत एखाद्रो म्हाका समजुपी जल्माक येतलो.''

खऱ्यांनीच आज ज्यांच्या साहित्याचो आमी उदो उदो करतात ते काळाचे कसवटेर टिकतले हाचो भरवंसो कोणे दिवचो? देखून साहित्यकृतीची expiry date ही काळ थारायता. तें काळाचेर सोडून दिल्यार बरें. आपूण आसतना आपल्याक सगळे जाण विसरलें हें सत रुडयार्ड किप्लींग सारकिल्या १९०६ त नोबेल इनाम मेळिल्ल्या इंग्लीश लेखकान मान्य केलें आनी ते विशीं कसलीच खंत ताणे मनात बाळगिली ना हें लक्षांत घेवपाक जाय. एखाद्रो पुरस्कार आपल्याक मेळ्ळो ना म्हूण हात पांय धोडावपी आमचे मदीं आसात. ताणी हें लक्षांत घेवपाक जाय. ही expiry तारीख घालप काळाचेर सोडून दिल्यार बरें.

२

१७-०५-२१

'कालजयी कुमार गंधर्व' हें कुमार गंधर्वविलें पुस्तक वाचतालों. कुमार हे सगल्या अर्थान एक वेगळेंच व्यक्तिमत्व. प्रो. बी. आर. देवधर हें तांचे गुरु. ल्हानपणासावन व्हडल्या गायकांचे अनुकरण करपाची तांची सवंय. ताका लागून चालंत पद्धतीन तांकां तालीम दिवप देवधरांक जमनाशिल्लें. कुमाराची ही सवंय आनी प्रवृत्ती लक्षांत घेवन देवधरांनी तांका वेगळे तरेन तालीम दिली. ती अशी एखाद्रो राग घेतलो जाल्यार तो राग वेगवेगळ्या घराण्यांत गायक कशे मांडटांत हें तांकां दाखयलें. ताका लागून तांचे गाणें एका विशिश्ट घराण्याचें म्हणूंक मेळना. कुमार म्हण्टात हाचो तांकां व्हड फायदो जालो. तो म्हळ्यार गायकांमदीं आपल्या घराण्याचो जो पोकळ अभिमान आसता ते पासून आपली सुटका जाली. तशेंच दर एका घराण्यांतलें जें बरें आसा तें पारखून घेवपाची नदर प्राप्त जाली.

हो अणभव कवितेकूय लागू जाता. म्हजोच अणभव हांगा सांगचो दिसता. सुरवेच्या काळांत हांवें लक्षांत घेवपा सारकें कांयच वाचूंक नाशिल्लें. म्हजो पयलो कविता संग्रह 'चंवर' खूप बेगीन उजवाडा आयलो. त्यो कविता वाचतना ताचो अणभव येता. हो कविता संग्रह प्रसिद्ध जाल्या उपरांत रामाण्याकडेन म्हजी वळख आनी तेन्नासावन म्हज्या सृजन प्रवासाक एक नवें वळण मेळ्ळें. ताणी म्हजे कडल्यान वेगळे वेगळे कवी वाचून घेतले. तातूंत ना. घ. देशपांडे, अनिल, पु. शि. रेगे, तेच बराबर नारायण सुर्वे, मुक्तीबोध हे कवी आशिल्ले. तांच्या मतान कवीन सगळे प्रकृतीच्यो कविता वाचपाक जाय. प्रत्येक कवी वाचल्या उपरांत ते कवींचीं बलस्थाना खंयची हाचेर तांचें भाश्य आसतालें. बाकीबाबांची कविता वाचतना कांय सुंदर कविता पूण समिक्षकांचे नदरेआड उरिल्ल्यो ताचीय चर्चा ते करताले. रेगे, अनिल एके वटेन आनी सुर्वे, मुक्तीबोध दुसरेवटेन अशें आसुनूय तांकां ते कवी सारकेच आवडटाले. त्यां काळातलो तांकां भावपी आनीक एक कवी म्हळ्यार आरती प्रभू. चड करुन 'जोगवा' संग्रहांतल्यो कविता तांकां खूप आवडटाल्यो. ते सबंदात म्हजे कडेन चर्चा करताले. ह्या सगळ्यांतल्यान कवितेकडेन पळोवपाची नदर आयली अशें हांव

म्हण्टां. कविता संताची आसूं वा मोरोपंता सारकिल्या पंडित कवीची आसूं तिचें कवितापण हें म्हत्वाचें हाचेर तांणी भर दिलो. अणभव जर स्वर आनी खरो आसलो जाल्यार ती काळाचे कसवटेर टिकता. हें तांचें सांगणे म्हाका आजूय खरें दिसता. सांगपाचें म्हळ्यार सगळ्या वृत्ती प्रवृत्तीच्यो कविता आस्वादून आपलें वेगळेंपण कशें जपचें हें ताणीं म्हाका शिकयलें. म्हजी भूमिका कुंमार गंधर्वाची नासली तरी म्हज्या जीवितांत मात रामाण्याक सुवात आसा ती मात देवधराची सगळ्या तरेची कविता वाचून तिचें कवितापण सोदून दिवपी. संगीत शिकतलो जाल्यार गुरु जाय आसता. चित्रकला शिकपा खातीर आर्ट स्कुलांत गेल्यार बरेंच. पूण हांगाय सहज प्रवृत्तीन बरे चित्रकार जाल्ल्याच्यो देखी आसात. पूण तांकांय केन्ना तरी ह्या मळावेल्या नावाजत्या चित्रकारांचो सहवास लागला हें विसरुंक फावना. साहित्यांत गुरु नासता वा कविता, कथा कश्यो बरोवंच्यो हें सांगपी पुस्तकां आसात. पूण अशीं पुस्तकां वाचून कोण कवी वा कथाकार जायनात. थंय रामाण्या सारकिले वाट दाखोवपी जाय आसतात. कवितेकडेन पळोवपाची उक्ती नदर दिवपी.

'पथ्थर फेक रहा हूँ' हो चंद्रकांत देवताले ह्या हिंदी कवीचो कविता संग्रह. १९३६ वर्सा तांचो जल्म जालो आनी २०१७ वर्सा तांकां मर्ण आयलें. तांची कविता खर सामाजिक आनी राजकीय जाणिवो व्यक्त करतात. ह्या तांच्या संग्रहांतली म्हाका आवडिल्ली ही कविता. तिचो अणकार करपाचो हो यत्न:

ताका हांवें पत्र धाडलें, पुस्तकां धाडलीं
प्रत्यक्ष चिटयो धाडून चवकशी केली
की ताचो पत्तो बी बदल्ला काय?
वा शेणयलो आसत काय
ताच्या भुरगेपणातलो खेळांतलो गड्डो
आपलें व्हडें ताणे काळखी दर्यावटेन
घुंवडायलें बी ना न्हय?

तो वयर बी गेलो ना न्हय...
हें ताका विचारपाचें उल्लेंच...

एक काळ असो आशिल्लो
तो व्यवस्थीत रावतालो
अदी मदी पत्रां धाडटालो
आपल्या हातान केल्लीं
परबीं पत्रां आनी पावस
पडपाच्या वेळार यादीन बरयतालो
अडचणी, दोंगर आनी न्हिदेविशीं
आनी उमळशीकेन भरिल्लो
ताचो चेरो व्हडल्या दोळ्यांचो
सळसळपी उफेवपी शिंवरांत
वाऱ्याचेर
उप्रांत तो धुवऱ्याच्या गावांत गेलो
कोणे तरी सांगलें सगळे यादीनीं
घायाळ घुंवळिल्ले धतरेच्या
घायांक मायेन थापटुपी
दिस नाशिल्ले सुवातेर खणप.

तशें ताच्या आसपाच्यो कुरवो
मेळटाल्यो अदीमदीं
जशें एकांतांत आयकूंक येवचें
धूसर मोनेपण
वा अवचित लक्षांत येवचें
कोण तरी आपलें रडप लिपयता.

वेगळ्या उतरांनी सांगपाचें तर
तांचें नासप सिद्ध जावंक पावलें ना

आतां कितलेश्याच दिसांनी आयकतां
रात दीस बरयता तो सांबाळून दवरिल्ल्या
पत्रांक जापो
यादींचीं थापटां खायत परत परत
पळयता घडयाळीं कडेन

चेऱ्यांच्या आनी भेटेचे गर्देत लेगीत एकसुरो
पयस मेरेन यो वच करपी क्षमायाचकेत
बसला खणत आमचीं सगळ्यांची
सरिल्लीं पन्नास वर्सां

उगडलां ताणो मळबाच्या मदेकात
मध्यान राती एक पोस्ट ऑफिस
सांगता नखेत्रांक
सगळीं मेळून वचात वारीत
हे धतरेर फातें फुटसर
ताणो बरयल्लीं सगळीं पत्रं

हे कवितेंत एकूय विराम चित्र कवी वापरिना. घडये विरामचित्रांक लागून हे कवितेचे लयेक आडखळ जाता अशें कवीक दिसलां आसुंये. ही कविता वाचतना जेरार्रड मेन्ली हॉपकिन्स ह्या इंग्लीश कवीच्यो ह्यो वळी आठवतात:

I wake and feel the fell of dark,
not day
what howes , O what black
houses we have spent
This nigtht!

ह्यो वळी अरविंद कृष्ण मल्होत्रा सारकिलो आर्विल्लो भारतीय इंग्लीश कवी कबीराच्या अणकाराच्या संदर्भात उधृत करता. तशें पळोवंक गेल्यार कबीर आनी हॉपकिन्स हांचेमदी सुमार चार शेकड्यांच्या काळाचे अंतर कापून ही संवेदना झिरपल्ली दिसता. तांचे मदीं काळाची वणत उबी रावता.

संपर्क: 9420222876



# आंगवण

रुपा केणी



"तुमी हाका सामको निमण्यावेळार हांगा हाडला जी.एम.सींतल्या दोतोरान म्हळें." "आमी यत्न करतात आमच्यान जाता तितलो. पुण, हाका वाटावप आता देवाच्या हातान", हे आयकून चनराप्पा आनी धुवेच्या दोळ्यांक दुखांच्यो झरी लागल्यो. पंडरी सामको जाम जावन खाटीर पडिल्लो. सोरो पियेवन, पियेवन ताणे आपल्या कुडीची आनी संवसाराची वाट लायिल्ली. जेन्ना ताच्या पोटान मातशें मातशें दुखताले तेन्नाच ताका दोतोर कामतीन तापयल्लो "पंडरी हाज्या फुडें जर तुवें सोरो सोडलोना जाल्यार काबार जातलो तूं, फकत चनराच्या तोंडाकडेन पळोवन तुका त्रातार करतां हांव. फिग्द् पिड्ड्यार जातलें तुजे", पंडरीन मान हालोवन हाज्या फुडें पिवचोना अशें उतर दिले आनी सदच्यावरी घरा येवन जिवाक बरें दिसतगीर जाकीनाच्या गादयेर वचून 'कुट्ट' केलें. अशें कितलेशेच फावटीं जालें.

ह्या खेपेक मात ताज्या पोटान आकांताचे दुखून तो रगत ओंकलो आनी चनरान एकूच बोंब घाली. शेजारी सामारी धांवत आयले. कोणे तरी सोमतीच १०८ आपयली. आनी पंडरीक जीएमसीत हाडलो. तेन्ना दोतोरान हें सांगलें. ते आयकनाफुडें चनराचो आवरो उडलो. ताका किदें करचें कळना जाले. पंडरीचे आता कांयच खरें ना हें ताका कळ्ळे. कितलेंय जालें जाल्यार घोव तो घोव. घरचो दादलो मनीस. मागीर तो बेबदो आसूं नाजाल्यार मारकुटो वा गाळयारो. तो आसा म्हण चनराच्या कपलाक कुकूम आसा. तो आसा म्हण चनर दर दिसा आपलो खोपो शिंवता. तो आसा म्हण ते हळडीकुकूम करता आनी गांवभर वायणां घेवपाक उमेदीन भोंवता. चेडवाच्या लग्नावेळार ताणे आनी चनरान यजमानपण केल्लें. व्हडल्या चेडवा फाटल्यान लायनीन आनी चारजाणां आसली. तांका कोण आवियार करतलो? सगळे, सगळे ताका येवजून आयलें, आनी ते घसघशानीं रडपाक लागलें. सगळे वटेन पेशंट, तांचे लागीचे, नर्सी, दोतोर भरिल्ले, म्हण ताणे तोंडाक पालवाचो गुड्डो मारलो आनी घुस्मटून घुस्मटून भितरल्या भितर रडपाक लागले. तें पळोवन आपली दुखां पुसून धुवेन ताका वेंगायलें आनी समजायलें. जांवयानुय ताका धीर दिलो. दोतोरान यत्न करता म्हण सांगलां, देवाचेंय पळोवया आमी अशें ताणे म्हणनाफुडें चनराक आपल्या कुळारच्या देवतेचो उगडास जालो. थंयच्या थंय ताणे देवतेक सांगून घेतले. "सायबिणी म्हाज्या घोवाक ह्या अरीश्टांतल्यान वाटाय सामको बरो करुन तेका घरा परत हाड गे माये. म्हाजो कुकूम कपलाक घट दवर गे सायबिणी." "तो बरे भशेन घरा येतकच हांव तुजी जरीच्या कापडान व्होंट भरतां". मनांतल्या मनांत सांगून घेतकच चनराक मातसो धीर आयलो. ही देवता सामकी जागृत, आंगवणेक पावता. मागता तें दिता. दर वर्सा माघांतल्या उमाशेक तिजी शक्त सामकी खर जाता. दिस आनी रातभर देवतेचे देवूळ उगतेंच दवरतात. उमास सोंपसर ते दिस रातचे बारा ते अडेज मेरेन कांय लोक कोंबे बी मारतात आंगवण पावोवपाक. सामकी जात्रा कशी फुलता थंय देवळाच्या वाठारात.

दोतोर वॉर्डातल्यान भायर सरला मात चनर परतें भितर धांवले. पंडरी सामको शक्त ना जावन जितो आसून लेगीत मेल्ल्यावरी पडिल्लो. ताका एकेवटेन सोर आनी दुसरे वटेन रगताची बाटली लायिल्ली. तें पळोवन चनर सामकें भिले. ताणे परत एकदां काळजाथावन देवतेक पराथले. कशी तरी रात गेली. चनर बाबडें वॉर्डाभायर कदेलीर बसून रावले. जांवय बाबडो भितर स्टुलार बसुन रावलो. सकाळी धूवेन कशें तरी समजावन चनराक घरा धाडलें.

तसो पंडरी पयली पसून वेसनीच. ताका बिडीकाडी, सोरो, मटको सगळें सगळें लागताले. काम धंद्याक तो वेतालो. पुण कोंप नेमान घेतालो. मागीर लग्न जाले. वर्सा भितर चेडू जाले. दुसऱ्या वर्सा दुसरें, तिसऱ्या वर्सा तिसरें. इतल्या मजगती ताजें पियोवप वाडत आसले. कोणेंय विचारल्यार सांगतालो पिकासांवन पिला म्हणून. स वर्सा भितर ताका पांच चेडवां जाली. ताजे पिकासांव आनीक वाडलें.

आता तर तो सोऱ्याच्या धुंवळीतूच रावपाक लागलो. चनराक गाळी फस्ती करपाक लागलो. दर दिसा पिशांतूर जावन ताजो कुंडो काडपाक लागलो. मागीर भुरग्यांनी किलांटयो मारप हें सदचेच जाल्ले. एकदांच, एकदांच चनरान ताका सोरो पियेनाका म्हण काकुटेक येवन सांगिल्ले, "xxये, xxxच्या तुज्या बापायच्या पयशांनी पिता गो हांव? तुयें पांच, पांच चेडवां म्हाज्या हड्ड्यार घाल्यांत त्या पिकासांवन पितां हांव" अशे म्हणून एक सणसणीत खोंट चनराच्या पेंगटार ताणे घाली.

ही पिलावळ आनिकूय वाडपाची पुण चनराच्या पांचव्या गुरवाचारावेळार दोतोरणीनुच पंडरीक शिटकायलो की आनी गुरवाचार आयल्यार तें हेंवटेन सरचेना. ताज्या खातीर तिणेच उपाय केलो आनी ती माळ पांचव्याचेरुच थामली. कुळदिपकाची आस ना जाल्ल्यान पिकासांवाचे घटमूट निमित्त पंडरीक मेळ्ळे. ताज्या पिवपाक आता घरबंद नासलो. ताणी वेसनाफुडे कामाक लेगीत वचपाचे बंद केले. कंपनीन ताका काडून उडयलो. मेळिल्ले पयशे ताणे सोरो आनी मटक्यान सोंपयलें. सगळ्यांक उपास घडपाक लागले. तेन्ना चनरान वावर धल्ले. ताजी जोड तशी खावपा जेवपाक पावपाची पुण पंडरीचें पियोवप आनी ताजे दुयेंसा काडटा म्हणसर चनर खर्शेतालें. तें ताज्या वखता पाणयांक कायच फाल्त कर नासले. पंडरीक ताजे खंय पडला? तो आनी ताजो सोरो.

चेंडवां आता व्हड जाल्ली. आपल्या भशेन ती संवसाराक हातभार लायतालीं. दुसरें आनी तिसरें साडयांक फॉली लायतालीं. उशीं, चिरयो, चादरी बी भरुन दिताली. चवथे कपड्या दुकानार कामाक आसले. व्हडलें लग्नाचे जातकर चनरान ताका भाच्याक काडून दिलें. व्हकलेंक म्हण अशीच उबी करु येता? भाचो जालो म्हण किदें जाले. ताणें रिण काडून धुवेक पाटली, कांकणा आनी गळ्यांत केले. हें रिण कशें फारीक करपाचें ते चिंतून ताका न्हिद पडनासली. तांतूत हे पंडरीचे दुयेंस.

पंदरा दिसांनी पंडरी घरा आयलो. सामको फ्राक जाल्लो. वखदां सुरुच आसली. चनर

ताका सामके जतनायेन दवरताले. घटसाणीचे विज्र, वखदां, गुळयो, नाचण्याचे सत्व वेळचेवेळार दिताले. धा - बारा दिसांनी उमास आसली. तितले म्हणसर पंडरी घरांतल्या घरांत आदारा बगर भोंवपाक लागिल्लो.-ताका भायर सोडीनासली. तागेलोय सगळो नेट आता गेल्लो आनी फ्राकताय जाणवताली. ल्हवु ल्हवु उमास लागी पावताली. तसो तसो पंडरी निवळटालो. उमाशे पयल्या राती चनरान शेजारच्या किशोरी आवयक उलो मारुन देवतेक बऽऽरी झीग आनी बोकड्यो घालून रतन आबोल्याची फाती घालपाक सांगली. ताज्या पयली ताणे रावाकामती बायले कडल्यान ॲडव्हान्स घेवन देवते खातीर पाचवेंच जरीचें कापड आनी खण घेतिल्लो. कांकणां आनी काजळ घेतिल्ले. घरा येवन ताणे हळद आनी पिंजरीच्यो पुडयो केल्यो, नाल्ल सोलून दवरले. तांदळांची पोटली बांदली सगळे व्होटयेचे सामान व्हरुन देवाकडेन दवरले. दुसऱ्या दिसा तें फांतोडेर उठून तयार जाले. सगळे व्होंटयेचे सामान पोंतयेत भल्ले. देवतेची फांती केळी पांनात गुठलावन जतनायेन पोंतयेत वयरच दवरली. रातीकडेन आपणे घाल्ली पिशां आबोल्याचे फांतयेन आपलो खोपो शिंवलो, तुरतुरीत बसस्टँडार वचून ते बसींत बसले. पाऊणवरान बस देवतेमळार पावली. थंय व्हडली रांक आसली. सुमार तीनशे लोकांची. दोग दोग जाण जोडयेन रांकेत उबे आसलें. चनर आपली पोती सांबाळत अर्द धांवत अर्द चलत वचून रांकेत निमण्या सुवातेर रावले. ताज्या कुशीक आसली कांता शेटीली सून. म्हण्टा, म्हण्टा तांच्या फाटल्यान शेंकड्यांनी उबे जाले. चनर मनातल्या मनात देवतेक होरायताले. रांक ल्हवु ल्हवु मुखार सरताली. दोग जाणाक मुखेल दारान भितर घेवन दर्शना उपरांत दाव्या आनी उजव्या कुशीनच्या दारांतसून भायर सोडयले.

इतक्यांत चार पांच चकचकीत नव्योताल्ल मोटारी मळार थामल्यो. तांतूतल्या गोऱ्योपिठ्ठ भांगरांनी भरिल्ल्यो बायलो आनी फेर्राद कपडे घाल्ले दादले भायर सल्ले. ते सगळे लोक कमिटी ऑफिसाकडेन कोणाक तरी मेळून आयले. त्या बरोबर हरशीं लोकांचेर ताण येवपी देवळाचे सॅक्युरिटी तांका पळोवन 'म्यॉव' जाले. सोमतेच ताका भितर सोडले. रांकेतलो लोक भायर फडफडत थंयच उल्लो. देवळांत भितर त्या पेझाद लोकांचे व्हट भरप, सांगणे करप, सवकसायेन दर्शन घेवप बी जाता म्हणसर बरोच वेळ रांक जाग्या वयल्यान हाल्लीच ना. सगळेच बेजार जाल्ले. आयज दनपारा दिस्त एक जावन चौपन्न मिण्टानी उमास सोपतली. ताज्या पयली कशेयभशेन आंगवण पावोवपाक जाय ना जाल्यार एक वर्स रावचें पडपाचें हाजोच सगळ्यांक हुस्को जाल्लो.

उबें रावन रावन चनराच्यो पोंवटयो भरुन आयल्यो. ह्या दोन तीन दिसांनी ताज्या काळजांत किसकिसपाक लागिल्लें. पंडरीच्या दुयेंसा मुखार तें विसरायेर पडटालें. आयज तें परत उदेले. तशें हाज्याय पयली केन्नाऽऽय वायेन ताका किसकिसताले. मागीर ते गंजना उदक पियेताले. गुणूय पडटालो. पुण आयचे प्रकरण किदें वेगळेंच आसले. काल ताजे दाडवण घट जावन आयिल्ले. ताज्याय पयली मान कणील्ली. पुण मलम लावन बरी जाल्ली.

रांक ल्हवू ल्हवू मुखार सरपाक लागली. सगळ्याकूच सूऽऽ जाले. अर्दवर गेला आसत नासत. व्हुं, व्हुं, व्हुं, करुन दोन चार गाडयो मळार पावल्या तांतूत एक तांबड्या दिव्याची मागीर किदें विचारता. सगळें कमिटी ऑफिसूच हँ हँ करत भायर आयले. गाडयांतल्यान मंत्री, ताजे शेलके, लांबते झोमते भायर आयले. तांच्या फाटल्यान तांचे सॅक्युरिटी. सगळो जमो उजवे दारांतल्यान सरळ भितर गेलो.

''पाड पोडं हेंचे! बेगीन घट्टाण जांव! कोणेतरी रांकेतल्यांन गाळी घाल्यो.' विलेक्शन लागीं पावलां न्हूं, येयले आता देवते फुडयान आमकां फुडली पांच वर्सा नागोवपाक आमी हांगा वरांची वरां हुमकळटात.'' कोण तरी जाण्टेली पिरगंली. तिजो पुत सामको सिरियस आसलो. पुण कोणाक पडलां गरीबांचे? सुमार पाऊण वर रांक 'जैसे थे' पोझीशनान आसली. सगळे जाण इतलो वेळ भितर किदें करताले ते देवता आनी तेच जाणा.

भायर लोकांचे पासीयेस पिड्डयार जाताले. 'आमकां भितर सरना फुडें बेगीन व्होटीकर गे, चल फुडें, वच मुखार बेगीन' म्हण्टात, सूण्याभशेन करतात आनी हेंका पळय वराची वरां भितर दवरतात.' एक तरणाटो आड्डलो. 'हय रे बाबा, देवतेक दोळेभर पळोवंक लेगीत दिनात.' जाण्टेली पिरंगली.

थंय आयिल्ले सगळेच गरजेवंत आसले. आपापले प्रस्न, चिंता, हुस्के, संकश्टा घेवन ते देवतेकडेन आयिल्ले. कोणाक शिर्वीस नासली. कोणाची सोयरीक जमनासली. कोणाचें ॲडमिशन ताटकळिल्ले, कोणाक भुरगें नासले. चली आशिल्ल्याक चलोच जाय आसलो. कोणाक दोतोराचे वखद पारनासले. सगळ्यांचे प्रस्नुच प्रस्न पुण जाप मात देवतेकडेन. कांय जाण चनराभशेन प्रस्न सुटावो जातकच आंगवण पावोवपाक आयिल्ले. चनराभशेन सगळ्यांक भंय आसलो तो उमास सोंपपाचो.

एकदाची भितरली मंडळी भायर सरली आनी रांक हालपाक लागली. करता करता चनर देवळाच्या दारालागी पावले. ताच्या मुखार धाच जाण आसले. इतल्यात चनराक चरचरीत घाम आयलो. ताजे पॉल्क हुमेन थपथपले. हड्डयार चेपण आयिल्लेवरी जाले. ताळो सुकलो. ताजे वांगडा उबे आशिल्ल्या कांता शेटील्या सुनेक घोवाक सांगून डोलाद सोद चनराक पिवपाक दिले. तातून चनराक सुशेग दिसलो. पुण, फाटींत किसकिसप सुरुच आसले. करता करता चनर एकदाचें देवळांत पावलें. चार जाणाच ताज्या मुखार जोडयेन उबे आसले. अचकीत ताका कोणतरी आपल्या फाटीक चरचरीत चिमटो काडटा अशें दिसले. परत एक फावट हड्डयार तळप दवरिल्ल्या वरी जाल्लें. कोण तरी आपले काळीज पिश्टून उडयता अशें ताका दिसले. एकूच आकांताची दुख ताज्या पुराय कुडींत पातळ्ळी आनी वतना ताजो जीव घेवनूच गेली. घोऽऽ करुन चनराची कुड व्होंटयेच्या पोतये सयत देवतेसामकार कोसळ्ळी.

संपर्क: ९८२२१८३९५४



*(पान ११ वयल्यान)*

तशीं फुलां माळटा. मागीर लेखक, कवी खूश जावन भुल्लसतात. तांकां साहित्याच्या मळार आपणें मोटी क्रांती बी केली अशें दिसूक लागता. कोण कोण समिक्षक तांकां 'रॅव्हल्युशनरी पॉयेट' (revolutionary poet) बी असल्यो तसीपो दितात. (त्या कवी, लेखकान साहित्याच्या मळार नेमकी कसली क्रांती घडयली हो विशय कुशीकूच उरता.) मागीर ज्याचेर समिक्षा बरयल्या तो लेखकूय खूश आनी जाणें ती बरयल्या तो समिक्षकूय खूश.

मराठींत मुल्यमापनात्मक समिक्षेन बरीच क्रांती केल्या. विलास सारंग, भालचंद्र नेमाडे, सुधीर रसाळ, माधव आचवल, म सु पाटील, विजया राजाध्यक्ष, गंगाधर गाडगीळ हांणी उपाट प्रमाणांत गंभीर समिक्षा बरयल्या. कोंकणीतूय अशे तरेची गंभीर समिक्षा चड प्रमाणांत येंवची अशें म्हाका दिसता.

संपर्क: ९४२२६४०२१० 

# वाचन संस्कृती

कृ. म. सुखठणकार



"You are what you read" अशें कोणे तरी म्हणलां. जाणे कोणे म्हणलां तो विचारवंतूच आसतलो. कारण ते सदांच कितेंतरी म्हणत आसतात. कोणे म्हणलें हें म्हत्वाचें न्ही. कितें म्हणलें हें म्हत्वाचें. बांगड्यांचे किस्मुरीक कोळशांची धुंवरी दिली जाल्यार ती सुवादीक जाता. हें कोणे म्हणलें तें आमी सोदूंक वचनात. किस्मुरीक धुंवरी दिवन मेकळे जातात तशेंच हांगा करपाचें. जाणे कोणे तें म्हणलां तो फुडें म्हणटा, "What you read influences your output in the form of the decisions you make, the work you produce and the interactions you have". ताणे जें कितें म्हणलां तें खरें. खूबशे बरोवपी, आपले लिखाणाचेर हाचो प्रभाव पडला, ताचो प्रभाव पडला, अशें सांगत भोंवतात. आनी हो प्रभाव सदांच फाकीवंत बरोवप्याचो आसता हें हांवे सांगपाची गरज ना. तांचें बरोवप वाचूंक घेतकच तो प्रभाव कितलो पडला तें आमकां कळटा. आसूं. आमच्या नागवेकाराचेर (प्रोप: नागवेकार ज्युवेलर्स. पाटो सोडून आमची कुठेही शाखा नाही) मर्दी कवी ग्रेसाचो प्रभाव पडिल्लो अशें तो आमकां सांगी. तेन्ना ताणे ग्रेसाच्यो 'संध्याकाळच्या कविता' हो कवितांचो झेलो वाचपाक घेतिल्लो. 'त्या' कविता झेल्याचें नांव 'संध्याकाळच्या कविता' आसल्या कारणान तो पसऱ्यार बसून सांजचोच वाचपाक घेतालो. आई सदांच म्हणटा, मनशान पचता तें खांवचें आनी सोबता तें करचें. ह्या तिच्या विचाराक धरुन हांवे नागवेकाराक ग्रेसाचे वाटेक वचूं नाका म्हूण सांगलें. कारण नागवेकाराची पचन शक्ती आमकां खबर आसा.

''आरे 'मी महाकवी दु:खाचा प्राचीन नदीपरि खोल' अशें तो म्हणून गेला पापया. तुका आनी म्हाका ते नदीचो थाव लागचोना''- दत्ता.

''कोण पाण्याला शिवतो गूढ घावांचे अस्तर, नांगी पिळून विषाचे जसे काढावे अत्तर अशें ताणे बरोवन दवरलां सायबा. आमकां आमचो बाकीबाबूच बरो!''- हांव.

नागवेकारान ना आयकलें आमचें. तिनसांजचे कात्रीर ग्रेसाच्यो 'संध्याकाळच्या कविता' वाचत बसलो. नांगी पिळून विषाचें अत्तर ताणे तातुंतल्यान काडलें जाल्यार आमकां कळ्ळें ना. ग्रेसाच्या प्रभावा खाला आपणे नाबीर बसून तिनसांजच्यो खूबश्यो कविता बरोवन काडल्यो अशें आमकां तो मेळटा तेन्ना सांगपाक लागलो. आनी एक दीस ताचो 'तिनीसांजा सखे मिळाल्या' हो कवितां झेलो उजवाडाक आयलो. पुस्तकाचे नांवाचेर भा. रा. तांबेचो प्रभाव दिसून येता. सोड. तातुंतली 'डालडाचा डबा' हे कवितेंतल्यो सुरवेच्यो वळी पळयात,

*'मी मारतो फेऱ्या कुठे कुणा साठी*<br>
*डालडाच्या डब्यांत उगवली तुळस*<br>
*मुळें तिची गेली खोल खोल*<br>
*स्वंयपाक घरात दूध गेले ऊतू*<br>
*तरी मी तू येशील म्हणून वाट पाहतो आहे*<br>
*तेही अशा कातर वेळी...'*

आमी ताचेर ग्रेसाचो प्रभाव आसल्या कारणान कवितेचो अर्थ बी विचारपाच्या भानगडींत पडले ना. विचारल्यार, 'दुर्बोधता अशी माझ्या स्वभावात रुजून गेली आहे' अशी आमकां जाप मेळटली आशिल्ली हें आमकां खबर आशिल्लें. सोड.

आई पचता तें खांवचें म्हणटा. आनी आमचें श्रद्धास्थान तुकाराम बुवा हाणी 'माझीये जातीचे मज भेटो कोणी' अशें म्हणलां. तरी आपूण ग्रेस वाचतां, शेक्स्पीयर वाचतां, पु.ल. परस वॉडहावज म्हाका चड भावता अशे स्टेटमेण्ट करतकच समाजांत पाट मातसो वयल्या सुवातेर फावो जाता हें खरें. आमच्या वाड्या वयल्या परेशाची व्हडलें भाट (ताळगांव) हांगा सोयरीक जमली. सोयरीक जमता थंय आसा कोवीड आयलो. कोविडा वांगडा सोशल मिडियाचेर घरा कडेन बसून वेळ वचपा खातीर कांय खेळ सुरु जाले. तातूंत एक आशिल्लो आपल्याक आवडलेल्या धा पुस्तकांची कवरां फेसबुकार पोस्ट करप. व्हडल्या भाटांतल्यान आमच्या परेशाक धा कवरां पोस्ट करपाचो रिक्वेस्ट काय चॅलेंज म्हणटा ती आयली. आमच्या परेशाचें साने गुरुजी श्रद्धास्थान. ताणे आनीक वेळ काडी नासतना आनी फाटलो फुडलो विचार करी नासतना साने गुरुजींचीं 'श्याम', 'श्यामची आई', 'धडपडणारी मुलं', 'श्यामची पत्रें' अशीं धा पुस्तकांचीं कवरां फेसबुकाचेर सोडलीं. व्हडल्या भाटांतल्यान एक वर जालें, दोन वरां जालीं कांयच रिस्पॉन्स ना. फोन केल्यार फोन घेना. ताणे म्हाका फोन केलो. हांवे म्हणलें 'संपूर्ण साने गुरुजी खंड पांच' काड आनी ताणी बरयलेलीं 'सुंदर पत्रें' वाच. हांवूय अशें कितें जातकच तेंच करतां आनी तकली थंड दवरतां'. परेशान खंड पांच काडून वाचलो काय खबर ना. लॉकडावन सदळ जातकच तो व्हडले भाटांत गेलो. व्हडले भाटांतले व्हडले घरांत ताका, 'If anybody asks me what your hubby is reading shall I tell them he reads Sane Guruji and cut my nose?' असो प्रस्न विचारलो. त्या प्रस्नाची जाप परेशा कडेन नाशिल्ली म्हणटकच ताणे म्हाका फोन केलो. हांवे म्हणलें 'ह्या प्रस्नाची जाप म्हजेय कडेन ना आनी साने गुरुजीनी बरयलेल्या पत्रांतूय ना. ताणी १३/०९/१९४९ सालांत सुधाक बरयलेल्या पत्रांत बरयलां, 'वाचन सुद्धा एक कला आहे. लेखकाने लिहिलेले समजून वाचले पाहिजे'. 'वाचून नाक कापत जाल्यार कितें करपाचें हाचेर खंयच भाश्य ना'. अशें म्हणून हांवे फोन दवरलो. परेशाली सोयरीक मोडली हें हांवे सांगपाची गरज ना. ताणे खूब मनाक लावन घेतलें. मागीर आमी खबर काडली तेन्ना व्हडले भाटांतले व्हडले घरांत भगताचे (चेतन) पुस्तकांचीं पारायणा जातात ही म्हायती मेळ्ळी. हाचे फुडें शिरगणटी करतना देशाच्या खंयच्या भागांत, खंयच्या लेखकाची पुस्तकां वाचतात हे म्हायतीचो आसपाव करचो अशी म्हजी सुचोवणी आसा. हाका लागून हाताक मेळिल्ले म्हायती प्रमाण सोयरिको व्हरपाक तरी बरें पडटलें. लेखकाक लागून तरी सोयरीको मोडच्यो ना. सोयरीको मोडपाक कारणा कमी ना तातूंत आनी भर नाका. आसूं.

वाचन हें स्टेटस सिम्बल जालां हाचो सोद म्हाका खूब वर्सां आदीं लागिल्लो. हाचे खातीर 'दुर्बोध' असो शिक्को बशिल्ले बरोवपी

वाचप सामकें गरजेचें. म्हाका इंग्लीश पुस्तकां वाचप शक्य नाशिल्लें. पुस्तकांतलीं and, if, no, because अशीं कांय उतरां सोडल्यार बाकिच्या उतरांचो अर्थ कळपा खातीर म्हाका डिक्शनरी उगडची पडटा, तुमचे म्हायती खातीर. म्हणटकच ग्रेस, बा.सी. मर्ढेकर हांचे बरप हे खातीर मातशें बरें पडटा. 'घरभर सरणाचे पात्र सांडूनि जाई फिरुनि फिरुनि माझा वंश निर्वंश होई' ह्यो वळी म्हजी पत्राशी साजरी जाली तेन्ना म्हणल्यो तेन्ना उपस्थित आशिल्ले मंडळीन हातांतल्यो प्लेटी सकयल दवरुन ताळयो मारल्यो (तिनशें प्लेटींचे पैशे केटरराक फारीक केल्ले). वळी म्हणून जातकच 'अशें ग्रेसान म्हणलां' अशें सांगतकच ते वळींचो अर्थ कोण विचारुंक येना. पूण हो ग्रेस वाचता म्हणटकच हो ग्रेट आसतलो हें इम्प्रेशन मात कायम उरता. पूण हें इम्प्रेशन मारतना आपूण व्हांवना हाचें भान आसप तितलेंच गरजेचें. होय अणभव म्हाका आयला.

हांव मुंबय वतालों. बशींत, फुडल्या सिटार दोन सलवार कमीज बशिल्ले. सादारण तिशींत आसतले. दोनीय भाशेच्यो विद्यार्थिनी आसुंये. म्हाका सदां मेळटा तसो टायरा वयलो सीट मेळिल्लो. हांव एकटोच आशिल्लों. कान दिल्या उपरांत दोगांय वाचना विशीं उलयतात हें लक्षांत आयलें.

''वाचनाचे महत्व कळावे ह्या साठी विविध उपक्रमा द्वारे जनजागृती निर्माण करण्याची गरज निर्माण झाली आहे.''

हांवे फुडल्या दोन सिटां मदीं म्हजी मान घालून चर्चेंत भाग घेतलो. म्हजी मान बारीक आनी तकली अशीर आशिल्ले कारणान कदंबाच्या व्हॉल्वो बशीच्या सिटां मदीं जाय तशी फिट जाता, तुमचे म्हायती खातीर.

''शंबर टक्के बरोबर बोललात तुमी काका'' उजवे वटेंतलो रिक्लायनींग सीट उवाच.

काका उतर कानार पडल्या बराबर जे उमेदीन हांवे दोन सिटां मदीं म्हजी बोडकी घाल्ली ती उमेद ना म्हणल्यार मातशी कमी जाली खरी. तरी हांवे धीर सोडलो ना बोडकी तशीच दवरली.

''लोकमान्यानी 'तुम्हाला तुमचे व्यक्तीमत्व घडवायचे असेल तर वाचन करा असा संदेश दिला. वाचन म्हणजे जिवनाला उन्नत करणारी बाब असून यामूळे बुद्धीची मशागत होते. माणसाचे जिवन फुलविण्यात वाचनाचा महत्वाचा वाटा असतो. माझ्या स्वताच्या जिवना विशयी बोलायचं झालं तर माझ्या जिवनाचा मळा बा.सी.मर्ढेकर ह्यांच्या सारख्या कविनी फुलविला आहे.'' हांवे एका श्वासांत म्हजें भाशण सोपयलें आनी बोडकी फाटल्यान घेतली. बा.सी.मर्ढेकर हें नांव कानार पडटकच दाव्या रिक्लायनींग सिटान फाटल्यान पळयलें. म्हाका हेंच अपेक्षीत आशिल्लें. ताणे आपल्या हातांतल्या वेफराचें पाकीट फाटल्यान दिलें. हांवे तें ताका तोंडांतल्यान आनी मर्ढेकरांक मनांतल्यान थँक्यू म्हणत घेतलें. दोन वेफर तोंडांत उडोवन आतां संभाशण फुडें कशें वाडोवचें हें चिंतपाक लागलों.

''शिशिरर्तुच्या पुनरागमें एकेक पान गळावया''- हांव.

''कां लागतां मज येतसे न कळे उगाच रडावया''- दावो रिक्लायनींग सीट.

''अरे व्वा! तुम्हाला पण माझ्या सारखाच मर्ढेकरांच्या कवितां मध्ये इंटरेस्ट आहे वाटतं'' हांवे आनीक दोन वेफर्स तोंडांत उडयत म्हणलें. मुंबय मेरेन आतां भंय ना अशें निदान हांवे थंयच केलें.

''हो. मर्ढेकरांच्या कविता, समिक्षा आनी सौंदर्य हा माझा डॉक्टरेट साठी विशय आहे.''

म्हजे पोटांत गुळो आयिल्ल्या वरी जालें खरें. टायरावयल्या सिटार बशिल्ल्यान तशें जालां आसुंये अशें चिंतून हांवे संभाशण चालू दवरलें.

''पिंपांत मेले ओल्या उंदिर माना पडल्या मुरगळल्याविण ओठावरती ओठ मिळाले माना पडल्या आसक्तीविण.'' हांवे म्हजो हुकमी एको भायर काडलो तसो फुडलो सीट वयर उसळ्ळो.

''सुपर्ब काका! आता मला सांगा ह्या कवितेची पार्श्वभूमी कोणती? मुंबई महानगर, दुसरे महायुद्ध, १९४३ साली बंगालात पडलेला दुष्काळ? आपल्याला काय वाटतं?''

आतां दोनीय रिक्लायनींग सीट मोठे आशेन फाटल्यान पळोवंक लागले. परत म्हज्या पोटांत गुळो आयलो. हो गुळो टायरा वयल्या सिटार बशिल्ल्यान न्ही हें म्हाका रोखडेंच कळ्ळें. हो गुळो मर्ढेकराच्या पिंपांतल्या हुंदरांनी हाडला हेंय बेस बरें कळ्ळें. मनशान खंयचेच बाबतींत व्हांवचें न्ही तें हे खातीर.

''त्याचं काय आहे मी जेव्हा रातेर लावतो, रातेर म्हणजे सापळा, तर जेव्हा मी रातेर लावतो सुका बांगडा वगैरे लावून तेव्हां दुसऱ्या दिवशी सकाळी मला रातेरात हुंदीर अशेच सापडतात माना पडलेल्या. कवीला असाच अनुभव आला असेल बहुतेक. आता हुंदीर पिंपात कसे मेले हा संशोधनाचा विशय आहे ते पण उचकी देऊन.''

तितल्यान फुडल्यांतल्यान एक हात फाटल्यान आयलो आनी हातांतलें वेफरांचें पाकीट घेवन गेलो. किंग्स सर्कल दादर ये मेरेन हांव पिंपांतल्या हुंदरावरी टायरावयल्या सिटार बसलो आनी दादर पावतकच फाटल्यान पळय नासतना देंवलो. सोड.

खंयचेय घरांत वाचन संस्कृती रुजपाक तातूंत जाण्टेल्यांचो व्हडलो हात आसता अशें म्हजें मत. जाण्टीं वाचतात तें पळोवन भुरगींय वाचपाक बसतात आनी थंयच तांकां ती गोडी लागता. आमचें घराणे शास्त्र्यांचें हें तुमकां खबरुच आसा. आमचे घरांत जाण्टेल्यानी कांयच वाचलें ना हें जरी खरें आसलें तरी ताणी गुरुचरित्रा सारके ग्रंथ वाचले. शेजारचे राज्यांत ताका पोथी वाचन अशें म्हणटात. आमच्या जाण्टेल्यां वरीच तुमचेंय वाचन कांयच नासत जाल्यार कमींत कमी धार्मीक ग्रंथांचें वाचन करुन चडान चड पुण्य पदरांत घेंवचें अशी म्हजी नमळायेची मागणी. 'चिंता करितो विश्वाची' असो म्हजो सभाव आसल्या कारणान हांवे तुमकां दिसलें तें सांगलें. तुमकां हे कलियुगांत ताची चड गरज आसा हाचीय म्हाका जाणीव आसा. तुमकां गुरुचरित्र सात दिसानीं वाचपाचें आसत जाल्यार तें ९, २१, २९, ३५, ३८, ४३, ५३ अशें वाचचें. हे आंकडे दिल्या ते अध्यायांचे. ते आनीक कसल्या दुसऱ्या कामा खातीर वापरचे न्ही ही विनवणी. गुरुचरित्राचें वाचन करतना सवळें वोवळें कडक आसतालें अशें आई सांगता. तें वाचतना आमच्या जाणटेल्यांक काकणांचो आवाज लेगीत कोंताक ये नाशिल्लो म्हणून घरांतल्यो बायलो हातांतली कांचेचीं काकणां सुतान बांदतालीं खंय. आज अशी अपेक्षा बाळगप म्हणजे पिशेपणा. आज बायलां कांचेचीं काकणां घालीनात ती दुसरी गजाल. आतां हांव मदीं मदीं शिवलिलामृताचीं पारायणां करतना पायल चपलाचो 'पटक पटक' हो धरुन सगले तरेचे आवाज कानार पडटात. ताका उपाय ना. काळ बदल्ला हें देवाकूय खबर आसा. हांव देवा तूं पाव म्हणटां आनी वाचन चालू दवरतां. मदीं 'अजून वाचून सोंपूना तुमचें? म्हाका ताटां

काडूंक जाय' अशी चवकशी जाता. मागीर हांव परत देवा तूं पाव म्हणटां आनी वाचपाची स्पीड वाडयतां. आसूं. म्हजो आजो संवसार पाडव्याक पंचांग वाचतालो. म्हजो बापूय कालनिर्णया फाटलें राशी भविश्य वाचूंक लागलो. हांव धंद्याक लागून आतां कल्याण मिलन डे, मुंबई मिलन नाईट, तूफान डेली न्यूज वाचतां (कल्याण मुंबई बाजार शनिवार रविवार बंद राहील).

धार्मीक ग्रंथांचीच पारायणा जातात अशें ना. आपल्याक आवडलेल्या पुस्तकांची थोडे पारायणा करतना हांवे पळयल्या. 'श्यामची आई' ह्या पुस्तकाचें खूब जाणांनी पारायणा केलीं पूण श्याम मात खंयच तयार जालो ना ही व्हड शोकांतिका. आमचें लग्न थारलें तेन्ना आमगेर फोन बी ना. हे कारणाक लागून ही म्हाका दर बिरेस्तारा चीट बरयताली. आतां बिरेस्तारूच कित्याक हो प्रस्न तुमचे मनांत तयार जाला हें म्हाका खबर आसा. बाणस्तारी बाजार शुक्राराच कित्याक भरता जशें म्हाका खबर ना तशेंच ही म्हाका बिरेस्ताराच चीट कित्याक बरयताली तेंय म्हाका खबर ना. हिका केन्नाच हांवे विचारलें ना आनी लग्ना उपरांतूय विचारीन दिसलें ना. तर, ती चीट हातांत पडटकच हांव ती घेवन माळयेर धांवतालों आनी फोडून एकदां वाचतालों. पयलेच खेप हिणे सवाय पडटा म्हूण पोस्टकार्ड धाडलें. तें म्हज्या हातांत पडच्या आदीं ताचें म्हांबऱ्याल्या फार्मासीर सामुहीक वाचन जालें. म्हणटकच हिका अंतरदेशीय पत्र बरय म्हणलें आनी पंद्रा अंतरदेशीय पत्रांचे एड्वांस दिले. सोड. चिटयेंत ही म्हाका उदेशून 'प्राणनाथ' अशें बरयताली आनी आपल्याक म्हज्या पांयांची दासी. वाचपाक बरें दिसतालें. 'पायणीतून जाताना तुम्हाला पाठमोरं पाहिलं आणी पाहीत राहिली. मग व्हॉल्तावर तुम्ही नाहीसे झालात तरी तुमची पवित्र पाठमोरी मुर्ती डोळ्यां समोर तशीच उबी आहे. तेव्हा आनी आत्ता ही. अश्यां वाक्यांचीं पारायणां जातालीं. लग्ना उपरांत हांवे ते व्हॉल्तार पावसांत घालून घेतलें. लोकांनी पाठमोऱ्या मूर्तीक उखलून मेळावलेच्या सबसेंटरांत व्हरून धोंडकेचें इनेसांव मारलें तरी कोणाक पत्तो लागलो ना. सोड. हांवे हिचे चिटयेचीं जितलीं पारायणा केलीं ताच्या अर्ध्यान हांवे म्हजीं पुस्तकां आनी नोट्स वाचिल्ले जाल्यार हांव बीकॉम पयल्या धपक्याक पास जावपाचो अशें टायगर सदांच म्हणऽ. म्हांबऱ्याल्या फार्मासी कडेन हीणे धाडिल्लें पोस्ट कार्डाचें सामुहीक वाचनांत ताणेय हजेरी लायिल्ली हें म्हाका सावळ्या कडल्यान मागीर कळ्ळें. सोड.

आमचे श्रद्धास्थान रामदास स्वामी हाणीं 'दिसा माजी काही तरी ते लिहावे, प्रसंगी अखंडीत वाचीत जावे' अशें म्हणलां. म्हज्या बापायन ह्यो दोनीय गजाली शेवटच्या स्वासा मेरेन पाळ्ळ्यो. सकाळीं उठून कालनिर्णयाचेर नदर मारली आनी मागीर डायरी बरयली. ताचे डायरेक साहित्यीक मोल कितलें आसा हाची जाप येवपी काळूच दितलो. तो आज ना. तो आशिल्लो जाल्यार ताची वेंचीक डायरेंतलीं पानां घेवन पुस्तक काडूं येतालें. सातशें आठशें प्रती काडून सरकारी संस्थाच्या गळ्यांत घालूं येतालें. सद्याक तें शक्य ना. सद्या ताचे डायरेचो हांव एकमेव वाचक. थोडे संत पुरुशांची तारखेनुसार प्रवचनां वाचतात. आज १३ जून. तो एकोणीशें सत्तर सालांत ह्याच दिसा बरयता, 'आज परत ताटात मऊ भात वाढला गेला. त्या भातावर बुराट्यांच्या हुमणाची चव जाणवली नाही. मडकईहून आणलेले ताजे फडफडीत बुरांटे फुकट गेले. माझे अर्धे आयुश्य निबर आणी मऊ भात कालवण्यातच गेले'. हें वाचतकच खूब जाणांक हातूंत कांयच साहित्यीक मोल दिश्टी पडचें ना हें हांव जाणा. साहित्य समजुपाक लेगीत वाचप्या भितर प्रतिभा आसची पडटा. ग्रेसाचे साहित्या बाबतींत एक समिक्षक बरयता 'प्रतिभावान रसिकालाच ग्रेसचे आकलन होऊ शकते असे म्हणता येईल. दुर्बोधता हा ग्रेस ह्यांच्या वरचा आक्षेप खोटा नाही पण रसिकानेही थोडे प्रतिभावान होण्या साठी प्रयत्न करायला काय हरकत आहे'. हांगा हांव बापायची तुळा ग्रेसा कडेन करतां अशें कोणे समजुचें न्ही. सहज विशय आयलो म्हणून सांगलें. बापूय जेन्ना बरयता 'माझे अर्धे आयुश्य निबर आणी मऊ भात कालवण्यातच गेले' तेन्ना तो निबर आनी मोव शीत हें जिणेंतल्या सुख आनी दुखाचें प्रतीक म्हणून वापरता अशें म्हाका दिसता. ज्याचे भितर प्रतिभा आसा ताका हांव कितें म्हणटां तें कळटलें. बाकिचे बुराट्यांचे हुमणांत शीत कालयत उरतले. आसूं.

थोड्यांक वाचपा खातीर मूड आनी सुवात लागता असो म्हजो अभ्यास सांगता. देखीक आमचो कुडचड्यां वयलो सोयरो दिसाळें संडासांत कोमोडाचेर बसूनूच वाचता. जो मेरेन दिसाळें हातांत पडना तो मेरेन तो संडासाचे दिकेन प्रस्थान करना. आतां तुमचो प्रस्न आसतलो ज्या दिसा दिसाळ्याक सुटी आसता त्या दिसा प्रोग्राम कसो जाता. बरो प्रस्न. त्या दिसा आमचो सोयरो आदल्या दिसाचो अग्रलेख वाचता. एका आयतारा आमच्या सोयऱ्याच्या पोटांत सुकलें. दिसाळें घेवन भितर वतना सगल्यानी पळयलेलो. तरी आसतना पोटांत सुकलें कशें हो प्रस्न संडासा भायर उबे आशिल्ल्यांक पडप सभावीक. मागीर आयतारची पुरवणी भायरूच उरल्या हें कोणाचे तरी लक्षांत आयलें. ती संडासांत भितर पावयतकच रोखडोच साखळी ओडिल्ल्याचो आवाज भायर पावलो. हांव सांगता ती पुराणांतलीं वांयगीं न्ही ह्यो घडिल्ल्यो सत्य घटना. थोड्यांक भायर उटंगारांचो पावस पडटकच वाचपाची कूय येता. वांगडां तांकां गंजण आलेंयुक्त च्याचो कप आनी गरमागरम भजीं जाय पडटा. असलीं मनशां कांयच आनी केन्नाच वाचपाक पावनात. ताका कारणां आसात.

१. तांकां जाय तसो पावस जाय तेन्ना पडना.
२. पावस पडटा तेन्ना भजीं काडपाक ज्यूस्त पिठी सोंपिल्ली आसता.
३. पिठी आसल्यार च्यांत धाडावन घालपाक आलें नासता. आलें आसल्यार पोरसांतल्यान गंजण हाडपाक कोणूच भायर सरना.
४. पावस पडटा, भजीं काडपाक पिठी आसा, धाडावपाक आलें आसा, गंजणूय आसल्यार घरांत 'विर्यनाश हाच सर्वनाश' हें पुस्तक सोडून एकूय पुस्तक हाताक लागना. म्हणटकच पुस्तक वांचप उरताच.

जांची न्हीद तोंड घेवन गेल्या ते न्हीद येवपा खातीर तांच्या न्हिदेच्या टायमार पुस्तकां वाचतात. पुस्तकां वाचतां वाचतां ते न्हिदाव्याक पडटात. फाटल्यान कोण जागो उरता तो वा ती मागीर लायट काडटा. खंयचेंय पुस्तक वाचलें म्हूण दोळे जड जावन न्हीद येना. वाणिज्य शाखेचें शिक्षण घेतना (हांव मुंबय विद्यापिठाचो पदवीधर, तुमचे म्हायती खातीर) सी.आर. मिश्रा हाणी बरयलेलें Micro Economics हे पुस्तकाचें पान उगडल्या बराबर म्हजे दोळे धांपताले. म्हाका हाचें अजाप दिसतालें. मागीर म्हज्या बापायची न्हीद गेली. हांवे ताका Micro Economics दिलें. ताचीय तीच स्थिती जाली. हाका लागून मिश्राक वाड्यार प्रसिद्धी मेळ्ळी. न्हिदेक पाड पडिल्ले 'आतीबाय, दोळोच लागना मिश्रा दिता' अशें विचारीत दारांत उबे रावपाक लागले. आई 'आरे सांबाळून आं, बाबाचें शिक्षण जावना अजून. न्हिदेचें जाग्यार

पडटकच पुस्तक यादीन हाडून दीं' अशी शिटकावणी दिवन पुस्तक हातांत दिताली. शिक्षणाचे बाबतींत म्हाका मिश्रा कितलो पावलो खबर ना पूण वाड्यार ताणे खूब जाणांची न्हीद जाग्यार उडयली. वयर म्हणलां तशें खंयचेंय पुस्तक वाचूंक घेतलें म्हूण न्हीद येना. आमच्या अना बाबाच्या एका लेखान 'न्हीद् येना म्हूण रविन्द्रबाब केळेकारांचें महाभारत- अनुसर्जन काय कितें तें वाचूंक बसलों. केन्ना दोळो लागलो कळ्ळेंच ना' असो संदर्भ मेळटा. म्हणून म्हणटां पुस्तकां खंयचीं घेंवचीं हें तुमकां थारावचें पडटलें.

आमचें श्रद्धास्थान रामदास स्वामी रचीत दासबोधांत स्वामीनी मुर्खाचीं कांय लक्षणां सांगल्यां. तातूंत वाचप्यांचोय आसपाव आसा. ते म्हणटात,

*अक्षरें गाळून वाची, कां तें घाली पदरिचीं*
*निगा न करी पुस्तकाची, तो येक मूर्ख.*

समर्थांनी अक्षरें गाळून वाची म्हणलां, आमी पानाचीं पानां गाळून बाबुराव अर्नाळकर वाचला. समर्थाचे नदरेन आमी महामूर्ख थारतले हें खरें. पूण आमची मजबुरी आसताली. बाबुराव अर्नाळकराचो 'काळा पहाड' कथा वाचतना आमचेर आकांत येतालो. नायक नाका आशिल्लीं साहसां करतालो आनी आमचे पोटांत हेवटेन घांस मारतालो. ल्हानपणांत आमचे केंस पिकपाक बाबुराव अर्नाळकर जापसालदार अशें दत्ता सदांच म्हणटा. रहस्य कथा तेंगशेर पावतकच आमच्यांनी रावनजो जातालें. मागीर आमी नाका आशिल्लीं वाक्यां, वर्णनां हुपताले आनी फुडें वताले. अशें करतना आमी पानाचीं पाना खाताले आनी आमी आमकां जाय थंय पावताले. समर्थांनी आमकां हे कर्मा खातीर मूर्ख म्हणल्यार म्हणू. फुडें कितें जाता हें जाणून घेवप त्या वेळार आमचे खातीर म्हत्वाचें आसतालें.

'मिनाच्या आत्याने पिस्तूल झाडले. गोळी चंद्रवदनाच्या छाती वर बसली'.

असल्यो वळी वाचतकच आमचो आवरो उडटालो. मागीर आमकां थार जाय नाशिल्लो. वयर सांगलां तशें आमी थुकी लायत पाना परतीत फुडें वताले.

'बाहेर सखू बाई आता किंकाळ्यावर किंकाळ्या फोडीत होती. आणी त्याच वेळी गजू आणी त्याचे कित्येक मित्र आत आले होते'.

असलीं मदी दिल्लीं म्हायती आमकां अनावश्यक दिसताली.

''पाड पडिल्ल्याला मी सांगितले होते मिनाच्या आत्या कडे पिस्तूल असणारच. अरे बाबा पुढे वाच रे माझा जीव जातो इकडे''- दत्ता.

आमी बाबुराव अर्नाळकराच्या पुस्तकाचें सामुहीक वाचन करताले कारण तेन्ना पुस्तका फाटल्यान दिसाक धा पैशे दिवप आमकां परवड नाशिल्लें.

''मी तुझ्या छातीवर गोळी झाडली असताना तू मेला कसा नाहीस?'' मिनाच्या आत्याने विचारले.

''कारण मी फौलादी जाळीचे जाकीट घातले आहे.'' चंद्रवदन म्हणाला.

हें वाचतकच आमकां स्सूऽऽऽ जातालें आनी आमी पुस्तक थंयच दवरुन फिंऽऽव फिंऽऽव करुन शिटयो मारीत नाचताले.

महेश एलकुंचवार निवडक बाबुराव अर्नाळकर ह्या पुस्तकाच्या प्रस्तावनेंत बरयता 'माझी भूक जागवली, वाढवली व तिला नियमीत रसद पोचवली ती बाबुराव अर्नाळकरानी. त्यांचे किती आभार मानू'. आमच्या समेस्त पिळगेच्यो भावना त्योच. 'निगा न करी पुस्तकाची तो येक मूर्ख' अशें समर्थांनी म्हणलां तें सामकें खरें. म्हाका हाचो खूब त्रास जाला. जशे बाबुराव अर्नाळकरान आमचे पिळगेचेर उपकार केल्या ताचे परस चड उपकार चंद्रकांत काकोडकारान केल्या म्हणल्यार जाता. सिनेमानी नायक आनी नायिकेन उमांव घेतला हें आमकां पड्ड्यार दोन फुलां लार्गी येतकच वा दोन सुकण्यानी चोंचींत चोंच घालतकच कळटालें. असो तो काळ. अश्या काळांत चंद्रकांत काकोडकार वाचप म्हणल्यार आमकां दिव्य कशें. अशे परिस्थितींत आमी दोळ्यांत प्राण हाडून ताची कादंबरी वाचताले. कादंबरीचीं दोन पानां वाचता थंय आसा तिसरे पानार आमकां सगलो मचकूर तांबड्या पेनान अधोरेखीत केल्लो मेळटालो आनी आमचो विरस जातालो. समर्थांनी निगा न राखे पुस्तकाची तो येक मूर्ख म्हणलां तें हे खातीर. ताणी तें चंद्रकांत काकोडकाराचे कादंबरीक उद्देशून म्हणूना तें हांवूय जाणा.

'अर्पिताचं वय सुमारे चोवीस वर्षाचं होतं. वर्ण गव्हाळी होता आणि त्यावर यौवनाची सुवर्णकांती तकाकत होती. तिने मेकअप वगैरे काही केला नव्हता तरी यौवनाने रसरसलेल्या तिच्या ओठावर शराबाची उन्मादक नशा उमलली होती. ती जरी साडी नेसली तरी अशी चोपूनचोपून नेसली होती की तिच्या शरीराची रेखीवता ज्यास्त उठून दिसत होती...'

सगलो मजकूर हांगां दिना पूण असल्यो वळी तांबड्या पेनान अधोरेखीत केल्यार वाचपाची वानसाच वता हें तुमी मान्य करतले. जंय असलीं वर्णना वा प्रसंग येतात तीं पानां केन्ना केन्ना दोडिल्लीं मेळटालीं. मागीर आमकां तींच पाना वाचपाचो मोह जातालो. त्याय परिस्थितींत जाणे कोणे तीं पानां दोडल्यां ताका गाळी घालीत आमी तीं पाना वाचताले. आसूं.

वाचलेंच म्हूण जालें ना. ताचें चिंतन आनी मनन जावप सामकें गरजेचें. आमी वाचतात आनी सोडून दितात हें संतांक बेस बरें खबर आशिल्लें. म्हणून संत नामदेव म्हणटात 'नामा म्हणे ग्रंथ श्रेष्ठ ज्ञानेश्वरी. एक तरी ओवी अनुभवावी.' हांगा संत नामदेव एक तरी ओवी वाचावी म्हणीनात. ज्ञानेश्वरी वाचून अणभव घेयात अशें सांगता. हो तांचो विचार ज्ञानेश्वरी पुरतो मर्यादीत उरना. खंयचेंय पुस्तक वाचलें जाल्यार तातुंतले बरे विचार आमी आमचे जिणेंत आपणावपाक जाय अशें म्हाका तरी दिसता. हांवे वयर म्हज्या बापायचे डायरेचो उल्लेख केला. हालींच म्हाका डायरी वाचतना तातुंतली एक वळ काळीजच हालोवन गेली. तो बरयता, 'गोठ्यावर चढवलेली दुदीण आज ऋतुमति झाली'. वळ सामकी सादी. ती वाचल्या बराबर तुमकां बाकीबाची 'वेली ऋतुमति झाल्या गं' ही याद जातली हांव जाणा. तुमी ती वळ कितले फावटीं वाचल्या आनी सोडून दिल्या आसतली. पूण ह्या मनशान वाचून, याद धरुन, जाय थंय ती वापरली. ताणे गोठ्यावर चढवलेल्या दुदणीला आज कळे आले अशें बरोंवं येतालें. व्हड मनशाची कुरु ती. जें वाचता, जें भावता तें मनांत दवरता आनी जाय थंय ताचो वापर लेगीत करता. 'तेरी आँखो के सिवा दुनिया में रखा क्या है' ह्यो वळी मजरुह सुल्तानपुरीच्यो न्ही त्यो फैज अहमद फैज हांच्या नज्मांतल्यो. मजरूहांक त्यो भावल्यो ताणी त्यो पदांत वापरल्यो. हांव म्हज्या बापायक मजरुहाक कर्म्पेर करना, सहज देख दिली.

वाचन संस्कृती वाडीक लावपाची जापसालदारकी आमचीच आनी कोणाचीच न्ही. आमकां ही जाणविकाय आशिल्ले कारणान

हळदीकुकमाक वाचन संस्कृती वाडीक लागची म्हूण 'संतोषी माता कथामृत' ह्यो पटयो बायलांक वाटल्यो आनी मुजरत वाचात म्हूण सांगले. हे कामा खातीर हांव हळदीकुकमां दिसा मुद्दम दारांत उबो रावलों (केसरी सदरो, धवी पिज्याम आनी माथ्यार तोपी). बायलो भायर सरतना 'पटी दिल्या ती मुद्दम वाचात आं वाचाल तर वाचाल. संतोषी माता बरी बुद्ध दिवं' अशी मान बागोवन तांकां विनवणी करतालों. थोडे कुच्छित्री हें वाचून हांसतले हें हांव जाणा. कितें वाचतां तें म्हत्वाचें न्ही, वाचन हें म्हत्वाचें अशें म्हजें मत. आई नुस्तें उजरावपाक दिसाळ्याचें पान घेंवच्या आदीं तें अख्खें पान वाचता. तें आख्खें पान वाचून जायसर हांव आनी माजरां वाट पळयत बसतात. माजरां नुस्त्याच्यो बोडक्यो खावपाक आनी हांव नुस्तें उजरावन जातकच उदक पोरसांत झाडांक घालपाक. हे पिरायेचेर लेगीत ती वाचता तें पळोवन हांव धन्य जातां, माजरांचें मत म्हाका खबर ना. ही लग्न जावन येतकच हिचे खातीर हांव चांदोबा घेतालों. तिचें चांदोबा सोडून वाचन नाशिल्लें. जांव चांदोबा जाल्यार चांदोबा, कितें तरी वाचूं म्हूण हांव हाडून दितालों. २०१३ सालांत चांदोबा बंद पडटकच सगळ्यांत चड वायट म्हाका दिसलें. ताचे फाटल्यान कारणां खूब आशिल्लीं.

पुस्तकां घेता तो तीं वाचताच अशें ना. आमचे दोनापावलाचे भाभीन (युनायटेड स्टेट्स ऑफ अमेरिका) फाटीं णव्वद हजारांचो देसपेस करुन सायल्याची आल्मार करुन घेतल्या. तातुंत शेक्स्पीयर, जॉर्ज बर्नार्ड शॉ, व्हिलियम वर्ड्सवर्थ बी हांगां वळींत बसल्या. सगलीं नवी ताल्ल पुस्तकां. हांवे एक पुस्तक सहज वास घेवपाक भायर काडलें जाल्यार पुस्तकाचीं दशिल्लीं पाना तशींच आसात.

"What bhabhi you don't read these books when you come down from United States of America? All pages are stuck as it is. So expensive books". हांवे भाभीक म्हणलें.

"This bookcase is worth 90K. So I can't keep Aesop's Fables in this bookcase. These books are not meant for reading. They are meant to match this bookcase and to show off". भाभीन म्हणलें. हांवे तीं दशिल्लीं पानां आशिल्लीं थंय सायल्याचे बुककेसींत दवरलीं.

आज वाचपाक पुस्तकां घेंवकूच जाय अशें ना. आज वाचप्यां खातीर ई-बुक्स आसात, वाचपीच जाय. पूण जी खोस पुस्तक हातांत घेवन वाचपांत आसा ती मोबायलार वा टॅब्लेटार वाचपांत ना. आपल्या आवडीच्या लेखकाचें पुस्तक आल्मारींतल्यान काडून कुलच्यांवार लोळत वा झोपाळ्याचेर झोके घेत वाचपांत जो सर्गीय आनंद मेळटा तो आनंद आनी खंय मेळना. पुस्तकांचो सहवास हो वेगळोच म्हणून आमचो गुलजार सायब म्हणटा,

*वो सारा इल्म तो मिलता रहेगा आइन्दा भी*
*मगर वो जो उन किताबों में मिला करते थे*
*सुखे फूल और महके हुए रूक्के*
*किताबें माँगने, गिरने, उठाने के बहाने जो रिश्ते बनते थे*
*अब उनका क्या होगा...!!*

संपर्क: ९८५०५३०७५६

# अशांत, प्रक्षुब्ध मनाचे उत्फर्के : 'नोकोरयो'

**सखाराम शेणवी बोरकार**

कोंकणी कवितेचो इतिहास पळयलो तर १९७० उप्रांतचो काळ हो आधुनीक कवितेचो काळ अशें मानतात. ह्या काळांत मुक्तछंद आनी गद्य काव्य (Prose-Poetry) हे प्रकार आमकां चड प्रमाणांत दिश्टी पडटात. हाचे पयलीं कोंकणींत छंदकाव्य आनी प्रेम कविता चडावत प्रमाणांत आसल्यो. पूण ह्या प्रकारांक पयलो छेद दिलो तो र. वि. पंडीत हांणी. २६ जानेवारी १९६३ वर्सा एकाच वांगडा पांच कविता झेले उजवाडाक हाडून ताणी एक विक्रम केलो, हें म्हण्टनाच ताणी मुक्तछंद आनी गद्यकाव्य हे प्रकार पयलेच फावट कोंकणींत हाडले म्हळ्यार लटिक थारचें ना. आमी एक मतींत दवरपाक जाय कीं ह्या कविता झेल्यांनी आसपाविल्ल्यो कविता ह्यो र. वि. पंडीत हांणी १९५५ ते १९६२ मेरेन बरयिल्ल्यो कविता आसात. हें पळयल्यार कोंकणींतलो आधुनीक कवितेचो उगम १९५० च्या दसकांत सुरु जालो अशें आमच्यांनी म्हणूं येता.

मुक्त छंदांतल्यानच कित्याक तर गद्यकाव्य केळोवपी एक ताकदीचो कवी म्हळ्यार निलबा खांडेकार. निलबा हो फाटलीं चार दसकां कोंकणींत साहित्य रचता. आयज मेरेन निलबाचे स कविता संग्रह आनी एक एकांकीका संग्रह उजवाडाक आयल्यात. तांचो पयलो कविता संग्रह 'वेध' हो १९८९ वर्सा उजवाडाक आयलो. ताचे उप्रांत बद्द धा वर्सांनी म्हळ्यार १९९९ वर्सा तांचो 'सुर्यवंशी' हो कविता संग्रह उजवाडाक आयलो. मागीर फाटोफाट 'अग्नी', 'ब्लॅक' 'दंडकारण्य' आनी 'ध वर्डस' हे कविता संग्रह उजवाडाक आयले. त्या भायर 'वादळा पयलींची शांतताय' हो एकांकीका संग्रहय उजवाडाक आयला. 'नोकोरयो' हो तांचो सातवो कविता संग्रह २०२० वर्सा उजवाडाक आयला.

तांच्या 'सुर्यवंशी' ह्या कविता संग्रहाक २००० वर्सा आनी 'अग्नी' ह्या कविता संग्रहाक २००३ वर्सा कोंकणी भाशा मंडळाचो पुरस्कार लाबला तर तांच्या 'वेध' ह्या कविता संग्रहाक १९९२ वर्सा तर 'दंडकारण्य' ह्या कविता संग्रहाक २०१३ वर्सा कला अकादमीचो साहित्य पुरस्कार लाबला. तांच्या 'ब्लॅक' ह्या कविता संग्रहाक २००९ वर्साचो गोवा कोंकणी अकादेमीचो साहित्य पुरस्कार लाबला. 'वादळा पयलींची शांतताय' ह्या तांच्या एकांकीका संग्रहाक २०१९ वर्साचो 'कुडचडें कला आनी साहित्य' केंद्राचो नाटका खातीर दवरिल्लो पुरस्कार लाबला. २०१९ वर्साचो प्रतिष्टेचो कोंकणी भाशेचो केंद्रिय साहित्य आकादेमी पुरस्कार तांच्या 'ध वर्डस' ह्या तांच्या कविता संग्रहाक फावो जाला.

कवी निलबा हे दावे विचारसरणेंक लागीं वचपी कवी हें तांच्या कविता वाचतगीर होलमता. ते समाजांतल्या वास्तवतेकडेन बारीक नदरेन पळयतात. तांच्या कवितांनी सामाजीक, राजकीय, पौराणीक आनी इतिहासीक संदर्भाच्यो कविता येतात. पूण कांय वेळार एकाच धाटणीच्यो कविता वाचतगीर तांतूतलें गांभिर्य उणे जाता. सामाजीक आशय मांडटना जर कलात्मक नदर दवरलिना जाल्यार ती कविता निखळ गद्य जाता.

'नोकरयो' ह्या कविता संग्रहांत साठांवयर कविता आसात. कवीक खंयच्याय विशयाचें आफूडभश्ट ना. तागेले कवितेंत खुजराहोचीं शिल्पां मेळटात, भगवान बुद्ध मेळटा आनी मेरलीन मुन्रोय मेळटा. विश्णू वाघांच्या वादग्रस्त थारिल्ल्या सुदीरसुक्ताचेर तो भाश्य करता तेच वांगडा तो आपल्या कवितेंत सर्गेस्त रमेश वेळुस्काराकडेन भासाभासय करता. सध्याक संवसार भर धुमाकूळ घालपी कोरोनाच्या संकश्टाचेर भाश्य करतना 'अब बस भी करो कोरोना' ह्या कवितेंत कवी म्हण्टा:

'जी भूक शाराच्या गर्दैंत घेवन गेल्ली
तीच भूक आमकां
आमच्यांतल्या आमचेकडे घेवन आयली
वाटेर मेळ्ळीं तुफानां, पूर, भुंयकांप
आनी उज्याचें तांडव
खूपशें सैमान दिल्लें सैमान घेतलें'

हें वाचतना २१व्या शेंकड्यांत लेगीत अनवाणी आपल्या बायल भुरग्यांक आनी वांगडाक साटली पोटली घेवन चलत आपल्या गांवघरा परतुपी मजदुरांचें चित्र आमचे दोळ्यांमुखार आयले बगर रावना.

नोकोरयो

ह्या कवितेच्या पुस्तकाच्या मलपृष्टार आशिल्ल्या ब्लर्बांत कोंकणींतले जेष्ट साहित्यकार दामोदर मावजो बरयतात, 'शद्ब गुणकारी, शद्ब विखारी, कर्म हेच इतिहास अशें सांगीत शद्बांनीच मनशाक बरोवपी हो कवी नळकुट्या आश्वासनांची दाळ मांडून नोकोरयो खेळपी. 'हांवूय सैम' म्हणीत वाङ्मयीन पर्यावरणाचो वेध घेवपी. कवीच्या ज्ञानेंद्रियांक जाणवल्ल्या ताणतणावांतल्यान ज्यो तिव्र संवेदना उप्रासतात त्यो कविता जावन इतिहास-पुराणांतले दाखले नाचयत वर्तमानाक आव्हान दितात.'

निमणे निलबान एका थारावीक सांच्यातच बंदिस्त जाल्ले कोंकणी कवितेक नवो आयाम दिला आनी नवे जाणविकायेची बुन्याद कोंकणी कवितेक घाल्या अशें म्हळ्यार अतिताय जांवची ना.

हो कविता झेलो कवीन सर्गेस्त रमेश भगवंत वेळुस्कार आनी सर्गेस्त विष्णू सुर्या वाघ हांका ओंपला. ह्या कविता संग्रहाचें मुखचित्र किशोर स. नायक हांचे आसा. हो कविता संग्रह सुरु प्रकाशन, मंडूर -दोंगरी, गोंय हांणी छापला.

**नोकोरयो**
कवी निलबा अ. खांडेकार
सुरु प्रकाशन, मंडूर -दोंगरी, गोंय
पानां:१५२
मोल: २५० रुपया.

संपर्क : 9923306751

# 'जाग' वाचप्यांक पावसान चिप्प भिजयता

**भौ. संपादपी 'जाग'**

घोग्यांनी ओतपी पावसाबरोबर हातांत आयलो तो 'जागा'चो जून २०२१ म्हयन्याचो 'पावस खाशेलो आंक'. पावसाच्या निळायेच्या फाटभूंयेर पांचवोताल्ल बेबो आशिल्लें बाब कलानंद बांबोळकाराचे मुखपृष्ट 'जाग' आंकाची 'थीम' स्पश्ट करता. पावस म्हाका सदांच गद्यापेक्षा पद्यान वाचपाक आवडटा. हो एकूच ऋतू असो आसा जाका एक लय आसा, नाद आसा. ही लय आनी हो नाद एक ताकदीचो कवी कवितेतल्यानूच निर्माण करुं शकता. 'झडिल्लो पावस कितलो तरी, भिजली काळजांत खोल माती, ओथंबिल्ले पाना पानांत थेंब, सतारीचेर संथ लयीत गती', भौ. माधवबाब बोरकरांची 'पावस' ही कविता लय निर्माण करपाक येशस्वी थारताच आनी हीच लय, होच नाद संबंद आंकात निनादत रावता.

बाब मुकेश थळी हांचो 'जलतरंग' आनी उल्हासबाब पै रायकर हांचो 'पावस आनी संगीत' हे दोनूय लेख वाचतना पावसाचो होच नाद कानात गुंजत रावता. भारतीय शास्त्रीय संगीतात आलाप, मदलो लय आनी द्रुत लय अशो तीन लयी आसतात. पूण पावस मात द्रूत, मध्य आणि शेवटाक संथ लयींतले आलाप घेत रावपी ख्याल अशे ताचे सांगितीक वर्णन मुकेशबाब करतात. घोगो घोगो पडपी पावसाच्या स्वरांचेर तंबोरो जुळोवन राग दुर्गाची बंदिश रियाज करपी उल्हास पै रायकार हांका पावस आनी संगीत एकाच नादाची दोन रुपां दिसतात. 'केन्ना केन्ना करुंच ना' अशी पावसांत संगीत सोदतात, काय संगितात पावस. पावस आनी संगीत हाजे अद्वैत ते दाखोवन दितात.

आपल्या ल्हानपणांतल्यो पावसाचो यादी केळोवपाक सगळ्यांक आवडटा. या आंकांतूय यादींतलो पावस ह्या विशयाचेर साबार लेख आसात. भौ. विनायक खेडेकर 'यादींतलो पावस' ह्या आपल्या लेखांत आदल्या तेंपाच्यो पावसाच्यो यादी तर सांगतातच पूण त्याच बरोबर लोकसाहित्यांतल्या पावसाच्या उण्या उल्लेखाचेर चिंतन करतात. शारांत पडपी पावस आनी गोंयच्या गांवगिऱ्या वाठारांनी पडपी पावस जरी एकूच आसलो तरी ताचें रुप आनी ताचें मोल दोगांयखातीर वेगळे आसता. गांवांतल्या पावसाचें सोबीत रुप, ताचें गोंयच्या शेतकाऱ्यांच्या जीणेतले मोल आनी पावस येवंचे पयलीं गांवगिऱ्या वाठारांतल्या लोकांचे घर शिंवपाचे. पुरुमेंताचे, शेतां-पोरसांतल्या कामाचें वाचप्यांक दर्शन घडता तें रमेश साजू घाडी हांच्या 'म्हज्या गांवांतलो पावस' आनी 'यादी पावसाच्या' ह्या डॉ. जयंती नायक हांच्या लेखांत ''आतां पुरुमेंतच कोण करनात कारण आता 'ॲमेझोनाचेर जाय तेन्ना जाय तें ऑर्डर करपाक मेळटा.' बदलिल्ल्या गोंयचें हे वास्तव जयंतीबाय अधोरेखित करता.

ल्हानपणांत पुण्यांतल्या वाड्यांत रावतनां नावडतो आशिल्लो पावस गोंयांत येतगीर आंगार झेलपाक मेळ्ळो आनी तो आवडतो जालो हो मनस्विनी प्रभूणे - नायक हांणी बरयल्लो अणभव वाचपासारको जालो. 'आयज पावस आनी शाळा केन्ना सुरु जायत तें कोणूच सांगू शकना' ह्या आपल्या वाक्यांत हास्यरसाची सिक्सर मारपी म्हणजे कृ. म. सुखठणकार ह्या एका वाक्यांत पावसाच्या येवपाची बदलल्ली वेळ, कोरोना काळांत बंद पडिल्ल्यो शाळा, त्या बद्दलची शिक्षण खात्याची अनास्था आनी हवामान खात्याचे चुकपी अंदाज ह्या चारुय गजालीचेर कृ.म. बोट दवरता. 'नेमेची येतो मग पावसाळा' हो तांचो लेख वाचकांचे निखळ मनोरंजन करता.

कवितेविशी ज्येश्ठ कवी माधवबाब बोरकर हांचे सदर म्हणजे वाचकांखातीर वैचारिक मेजवानीच आसता. हांव तांचे हे सदर तीन चारदा तरी वाचता. तोलून-मापून बरयिल्ले दरेक वाक्य, कवितांचे संदर्भ, वेगळ्या वेगळ्या भाशेंतल्या कवींचे देख ते दितात. तांतूत तांचो व्यासंग आनी कविता विशयाचो अभ्यास दिसून येता. ह्या लेखान तर कविता आनी संगीत हांचे मळार काम करपी वीस जाणांचो उल्लेख वेगळ्या वेगळ्या संदर्भात वाचूंक मेळटा.

पावसाच्या ह्या मैफिलींत लागील्ल्या गोड सुरान काय विषादाचे, दर्दभरे सुरयबी वाचूंक येतात. रमेश लाड हांचो 'थिगुरांचो पावस' हो लेख काळीज हालोवन वेता तर 'पावस' ही रुपा केणी हांची कथा आरिकाचो आमीग आशिल्लो पावस एका खिणाभितर ताचो दुश्मन कसो जाता ते दाखयता.

कांय वेवसायिक कारणांक लागून म्हजो नामनेचो कवी सर्गेस्त प्रकाशबाब पाडगांवकार हांचेकडेन दोन तीनदा संपर्क आयिल्लो तेन्ना हो नामनेचो कवी स्वभावांतूच कितलो नम्र आनी 'डाऊन टू अर्थ' आसा हाचो अणभव म्हाका आयिल्लो. स. प्रकाशबाब हांच्या व्यक्तिमत्वाची आनी कवितेची ही सगळी तासां भाई मावजो हांणी 'दाण्या येदे धतरि वयलो अन्नंवर ब्रम्हांड मोगी' ह्या लेखात स्पश्टपणे पितारल्या.

'जाग' पावस खाशेलो आंक रसिक वाचप्यांक साहित्यीक पावसान चिप्प भिजयता हे खरे!

**अरुण जयराम कामत**

संपर्क: ९९६५८७६८६०

## 'जाग' लक्ष वेधून घेता

**भौ. संपादपी 'जाग'**

'जागा'चे फाटले तीन अंक वाचतकच एक आगळो वेगळो अणभव येता. ते विशयाक धरुन आशिल्ल्यान त्या विशयाचीं वेगळीं वेगळीं परिमाणां लक्षांत येतात. जून म्हयन्याच्या अंकांतले सगळेच लेख लक्ष वेधून घेतात. विनायक खेडेकार हांचो लेख आनी कविता, अरुण कामत हांचो बाकीबाबाले कवितेवेलो लेख हांचो खाशेलो उल्लेख करपाक जाय. ह्या अंकांत संपादकाची नदर दिसून येता.

**- माधव बोरकार**

## 'जागा'च्या संपादक मंडळाक परबीं.

**भौ. संपादपी 'जाग'**

'जाग' जून म्हयन्याचो अंक 'मिर्ग' इतलो सुंदर आयला की हालींच्या काळांत (दिवाळी अंक सोडल्यार) इतलो पावरफूल अंक पळेल्ल्याची याद जायना. सर्वांगसुंदर. 'जाग' तुका परबीं.

लेख, कविता, मांडावळ, चित्रां - लाजवाब. चित्रां वजा केल्यार सगळी रंगत वतली. पानापानार पावस फिल जाता. अग्रलेख - उतरान उतर मुदयेर थीक, कवर सोबीत.

ह्या सौंदर्याच्या सुवाळ्यांत 'जलतरंग' हो लेख बरोवन आनी मनस्विनीचो लेख अणकारून म्हाका भिजपाक मेळ्ळें, हें म्हजें भाग्य.

संग्राह्य अंक. अभिरूची संपन्न.

भायर कोवीड ताण आसतनाय, अर्थीक ताण आसतनाय 'जागा' हो जादू कसो केलो तो गूट कळना रे बाबा...

**- मुकेश थळी**

# कविता

## पावसाच्यो कविता!

माधव बोरकार

१

कुपांची घुमटी सांजवेळ मोती
स्तब्ध झाडां तरी प्रार्थना पानांनी
मंदावता दिवे तशीं उदेता नखेत्रां
व्हांवता मनांतल्यान न्हंयचीं पात्रां

यादींचे मळे फुलयता प्राणाक
मोरांचीं मिथुनां दिसूं नये कोणाक...
पणजे ७–५–२१

२

केन्नाय पावस बीन
आनी मियां मल्हार
केन्नाय झुळझुळ वझरो
तसोच खंकाळ हुंवार

पियानोचेर ओडचीं बोटां
तशी आयिल्ली दडक
विसावता पाना पानार
ओथंबून आयिल्लें वत.

आयलो दाटून कुपांनी
मल्हार म्हज्या मनांतलो
अशेलांचो नाच वयर
पावस लक्ष धारांचो...
पणजे ६–५–२१

3

मळबा पेलीं सगळीं
जालीं उक्तीं जनेलां
गच्च भरिल्लीं भितर
भिन्यांनी नखेत्रां.



उजवाडाची उमळ
फुट्टा घरादाराक
अव्यक्ताचे कळे
आयले आतां भाराक.

उक्तीं सगळीं जनेलां
उक्तें दिकांचें घर
येता दिठयेत तुजें
पैस पाविल्लें बंदर...

पणजे ८–५–२१

संपर्क: ९४२०२२२८७६

## पावस!

हरीश कामत

तूं
घसघसून
रकिल्लो

तिका
आकाडो घालतना
थपथपीत भिजयिल्ली

म्हाका
बल्कांवार ओल्तेरार
मनातल्यान भिजयिल्लो

तेन्ना भिजिल्लों
तो सासणाचो
वोलोच उल्लां.

संपर्क : 9421157869

## तळ

परेश नरेंद्र कामत.

तुजो तळूच लागना
हाताक

स्पर्श मात
जायत रावता तुडूंब

कळना,
कळुनूय कांय कळना
अशी कळा

तुज्या उतरांनी
व्हांवत आसा न्हंय
चित्रमय...

उदकाचे
भास-आभास
आनी मोडणां मोडणां

कुडीचो भरीव
उगतो भार
गांधारमग्न

जीण तुजी
दिसानदीस
जायत आसा गहन

आनी दोळ्यांतलें उदक
आनिकूय देंवता
खोल...

संपर्क : 9421157869







## पावस आनी यादी

**सखाराम शेणवी बोरकार**

१-
पावसाची आनी यादींचीं
सासणाची पडल्या गांठ
युगां-युगां सोडच नांत तीं
एकामेकांचो सांगात.

२-
जेन्ना पावस झडूंक लागता
उचांबळीत तेन्ना मन जाता
थेंबा थेंबा वांगडा गो तो
तुज्योच यादी घेवन येता

३-
पावस आसोरतगीर
मळबांत उदेलें इंद्रधणू
आनी जिणेच्या निमणे पेण्यार
उमाळून आयिल्ल्यो तुज्यो यादी
सारक्योच सूख दितात!

४-
तुजी याद
सृजन
तुजो विसर
मरण!

संपर्क : 9923306751

## पावस

**दीपक गोविंद प्रभूदेसाय**

ल्हान आस्तना
उदकांत भिजूंशें
दिस्तालें

आतां
उदक म्हाका भिजयता

तुका भिजपाचें आसा

आनंद
आनी
दुःख

हांव कित्यान भिजूं?

भरुन येता

मळब भरुन येता

पावस!

भायर
आनी
भितर

## दडको

**उल्हास पै रायकार**

१)
काळवेळ नाशिल्ल्यो
यादींच्यो दडको
शिरशिरावन वतात
मन – हरयाळी
मागीर रात–दीस मागतां
मागूस दडके शिडशिडी
मागूस दडके शिडशिडी.
२)
पैल्या आशाढांत
तिच्या कुळारां
पांवळी भुल्लुसली
नाचली खेळली.
आतां दर आशाढांत
तिच्या कुळारा
पावळीं तिष्टता
तिच्या यादीन
हुंडकेत रावता.

संपर्क : 7507441344

## सैम संगीत सुवाळो

**मनोज–सुमती**

मळबांतलो रोमटां मेळ,
कुपां आड जोगलां खेळ;
जलतरंग पावसा थेंबे,
पदां गायतात तालार बेबे.
सैम–संगीत सुवाळ्याक,
शेता मेरेर माड उबे

वावझडीच्या शिरशिरींत,
चिखोल–काल्या रिपरिपींत;
म्हसरां फाटीर किर्णां वेचता,
पिर्शे बाबडें एक बुर्के.

